जाग प्रकाशनाचें
जाग
म्हयनाळें

* संस्थापक:
स. सुमंत केळेकार

* संस्थापक संपादपी:
स. रवींद्र केळेकार

* संपादपी:
माधवी सरदेसाय
9421157007
madhavikonkani@gmail.com

* उजवाडावपी:
जयवंत भा. सरदेसाय
२०१-बी, सालदॅल अपार्टमॅन्टस्
रूअ द साउदादिश, पाजीफोंड,
मडगांव - गोंय ४०३ ६०१.

* छापपी
हिरु नारायण नायक
रुतू ऑफसेट प्रिन्टर्स,
वळवय, फोंडें-गोंय.

| | |
|---|---|
| वर्सुकी पटी | : रु. २००/- |
| विद्यार्थ्यां खातीर (वर्सुकी) | : रु. १५०/- |
| तीन वर्सांची पटी | : रु. ५००/- |
| वाचप-घरां खातीर वर्सुकी पटी | : रु. ३००/- |

पटी मनी ऑर्डरीन वा बँकेच्या मडगांव फांट्याचेर काडिल्ल्या ड्राफ्टान धाडची.
ड्राफ्ट Jaag Monthly च्या नांवाचो आसचो.

वेव्हाराचो नामो :
जाग म्हयनाळें
२०१-बी, सालदॅल अपार्टमॅन्टस्
रूअ द साउदादिश, पाजीफोंड,
मडगांव - गोंय ४०३ ६०१.

किरकोळ आंकाचें मोल : रु. २०/-

# म्हजी दाडी फोडटा...

हालीं थॉमस स्टीफन्सांचें *क्रिस्त पुराण* वाचतां. 'आदिपुरुसाचे रचने'कडेन पाविल्लें.

देवान आदांवाक आपलें रूप दिवन रचलो, आनी ताच्या तोंडांत प्राणवायू सुस्कारून ताका जिवो केलो. उपरांत ताका सुस्त बरी न्हीद घाली, आनी ताचे बरींचें एक हाड काडलें, आनी ह्या हाडाची एव्ह घडोवन ती आदांवाक दिली. 'नरा'ची घडल्या म्हणून खंय ती 'नारी'. (Derived being आनी derived word - 'उत्पत्ती' आनी 'व्युत्पत्ती'चें समीकरण! 'नरा'क देवान सरळ आपलें रूप दिवन घडयलो. 'नारी'क मात नराच्या हाडाच्या कुडक्या पसून घडयली. इतलेंच न्हय, नरा खातीर घडयली...नर एकल्या देवाच्या उपकारांत. नारी दोगांच्या उपकारांत - देवाच्या आनी नराच्या...)

हेर सगल्यो मोनजाती खालते मानेन भुंयेक पळेत चलतात. आपणालें पोट आनी 'उत्पत्तीचें विस्तारण' हाचोच तांकां हुस्को. मनीस वेगळो. नीट कूड आशिल्लो. 'वैकुंठा'चेर ताकाच नदर घालूंक येता. देवाचें दर्शन ताकाच घडूं येता.

देवान आपणाले हे खाशेले निर्मणेक - मनशाक - व्हरून धर्तरे वयले खाशेले सुवातेर - 'भुमिवैकुंठां'त - दवरलो. थंय तरातरांचीं सुंदर सुंदर झाडां-पेडां. तातूंत दोन खाशेले रूख - एक 'जिवित्वा'चो, दुसरो बऱ्या-वायटाचे जाणविकायेचो. उपरांत देवान आदांवाक सांगलें, खंयच्याय रुखाचीं फळां खाल्यार जाता; फकत ह्या एका - बऱ्या-वायटाचे जाणविकायेच्या रुखाचें फळ उश्टावप ना. उश्टायशीत, मरतलो... (देव उपाट गिन्यानी. मनशाक ताणें आपलें रूप दिलें, गिन्यान दिलें ना. गिन्यानाचो भंय घालो - ताचे वाटेक वचशीत, त्रासांत पडटलो; अज्ञानांत, म्हजे सांगणेंत राव, सगळीं सुखां भोगूंक पावतलो, अज्रंवर जातलो... आयजूय संवसारांत बळिश्ट दुबळ्यांक हेंच सांगता.)

आदांवाक दिल्ली शिटकावणी देवान एव्हेक दिलिना. तिका पुरायेन काळखांत दवरली. (तिची निर्मणीच जाल्ली आदांवा खातीर. तिका शाणी करपाची जापसालदारकी आदांवाची आशिल्ली जावये. आदांव हांगा उणो पडलो जावंक जाय. पूण हाची नोंद 'शास्त्रां'त ना.)

'देंवचारू'य जाणा आशिल्लो, आदांव शाणो, तो देवाच्या उतरा भायर वचचो ना. देखून तो भुलोवंक गेलो एव्हेक... एव्ह त्या रुखाचें उश्टावंक मना केल्लें फळ उश्टायता आनी हे करणेचें फळ कितें जातलें म्हणपाचें खबर आसतनाय, तिका वायट दिसचें न्हय म्हूण आदांवूय फळाक घांस मारता.

थोडे भितर : 'तिणें ताची वाट लायली', आनी सगली मनीस-जात त्रासांत पडली!

हे चुकीची देवान तिका दिल्ली शिक्षा - गुरवाचार आनी बाळंटेर; आदांवाक दिल्ली शिक्षा -शेत कसपाचे त्रास.

(निर्मणी म्हळ्यार पातकांचे भोग... सूख म्हळ्यार मतीक आनी कुडीकूय त्रास दिनासतना सुशेगाद बसून खावप...?!) ...आदांवान पातक केलें, पूण खरें तें 'ताचे कडल्यान घडलें', एव्हेन ताका तें घडयलें. ती आपूण वांकडे वाटेन गेली, ताकाय वांकडे वाटेन व्हेलो... जण एकली आवय ह्या पातकाचे भोग भोगता. दर एके वेणे वांगडा देव तिका सांगता, "भोग आतां तुज्या कर्मांचीं फळां!")

बायल-मनशे कडेन पळोवपाची सगल्या ('तांच्या'/'आमच्या' - सगल्या) पुराणांची नदर आगळी-उणी अशीच. कित्याक, सगलीं पुराणां 'नरा'चीं, 'नारी'चीं न्हय - तांचीय बी उत्पत्ती नरा पसुनूच!.

चाफ्राची एक सुंदर कविता आसा -

आदांव बापान खेल्लें कितें?
..........................
..........................
खेल्लें ताणें कितेंय आसूं
चिंतून चिंतून काळीज रडटा
खेल्लें ताणें शेंकड्यां आर्दी
आजून म्हजी दाडी फोडटा.

म्हजीय दाडी फोडटा. तिची दूख दोट्टी...

सात मार्चाक रवीन्द्रबाबांली जल्मतीथ. ते निमतान गोंय विद्यापीठांत एमए (कोंकणी)च्या वर्गांत शिकपी दोगां भुरग्यांचे दोन ल्हान ल्हान लेख ह्या आंकांत दिल्यात. तांका सुवात मेळची म्हूण 'म्हजो रवीन्द्र सांगात' आनी 'मोगांतल्यान' हीं सदरां दिवंक नात.

**- संपादपी**

# जाग

वर्स ३९ : आंक ७ : मार्च, २०१३



भायलें चित्र 'तीज':
प्रदीप मरावी (गोंड लोक कलाकार)
भितल्लें चित्र: अदिती नायक

# अरण्याचो अधिकार...

- माधवी सरदेसाय

"आमच्या देशांत रान राजाचें गुलाम केन्नाच नाशिल्लें. राजाय बी रानाक मान दितालो. रानाचेर राज्याचो मालकी-हक नासतालो. १८६४ वर्सा [वसणूकवादी राजवटींत] पयलेच खेपे 'रानभूंय सरकाराचे मालकेची' हो विचार वयर सरलो, आनी उपरांत रोखडोच पयलो 'सरकारी' रानाचो कायदो घडलो. ह्या कायद्यांत बदल जायत गेले, तातूंतली सत्तेची वृत्तीय सतत वाडत गेली. आयज भारतांतली सगली रानभूंय सरकाराचे मालकेची जाल्या" (गणेश देवी "मनातले वन" १५).

परिणाम-

जायते खेपे, 'हें पन्नास मैलांचें रान रानखात्याचें' अशी पाटी दिश्टी पडटा, पूण रान खंयचें, नदरेक एक झाडूय झळकना. 'पन्नास मैलांचें रान रानखात्याचें', म्हळ्यार पन्नास मैलांची भूंय रानखात्याची असो अर्थ काडचो पडटा. इंग्लीश कोशांत 'forest' ह्या उतरा मुखार 'रानखात्याची भूंय' आनी 'रान' अशे दोन अर्थ दिल्ले मेळटात. हे अर्थ कोशांत निटायेन दिल्ल्यान तांचे फाटलो जुलमाचो इतिहास विसरायेंत शेणला, आनी आतां राना वंयलो सरकारी शिक्को अधिकृत जाला! (आदलोच संदर्भ).

रानांक सरकारी राखण मेळ्ळी आनी रानां उबंत पडलीं. सोंपपा कडेन पावलीं. शेंकड्यांनी, हजारांनी वर्सांचें हें सैमीक दायज आयज आमी वगडावन बसल्यांत.

आनी, ह्या सैमीक दायजा कडेन सूरमेळ सादून वयर सरिल्लें तितलेंच पोरणें, तितलेंच मुळावें शेंकड्यांनी, हजारांनी वर्सांचें सांस्कृतीक दायज?

". . . शेतकामत करचें, पूण पोटाक जाय तितलेंच पीक घेवचें, 'फायदो' जोडपा खातीर न्हय. श्रमा बगर जियेवप समा न्हय. उत्पन्न फकत कसतल्या खातीर आसना, सगळ्यां खातीर आसता, तें वांटून घेवचेलें आसता - हें सगळें आदिवासीक आयजूय समजता. तोच ताचो धर्म. देखून तो शेताची, रुखांची, बिंयाची आयजूय पुजा करता. हाचे उरफाटें, मुखेल समाजांत (जाका आमी सगळीं 'समाज' लेखतात तातूंत) शेत (भूंय), बीं, रूख - सगळें विकतें मेळटा. देवाची मुर्तूय बी आमी विकतीं हाडटात. इतलेंच न्हय, मनशां खासा आपणाकूय विकतात आनी हेरांक विकतीं घेतात," आदिवासींचे जिणेदिश्टी कडेन पुरायेन एकरूप जाल्ले, विंद्यापिठांतली प्राध्यापकाची नोकरी सोडून फाटल्या सतरा-एक वर्सां सावन तांचे मर्दी वावुरपी गणेश देवी बरयतात ("ओरसंगच्या प्रवाहाबरोबर" १९५).

उद्देगीक क्रांती, वसणूकवाद आनी भांडवलवादी अर्थकारण, तिगांयनी हातांत हात घालून संवसारभरचीं रानां काबार केलीं; आनी शेंकड्यांनी, हजारांनी वर्सां सावन तांचेर निंबून आशिल्ल्या, तांचेर मोग करून जियेत आयिल्ल्या आदिवासींक दळडिरांत धुकल्ले. सुरत-हावडा रेल्वे मार्ग तयार करपाची थारावणी जाली तेन्ना ताचे खातीर लागपी लाकूड मेळोवपा खातीर आयच्या महाराष्ट्र आनी मध्यप्रदेश राज्यांचे शिमेर आशिल्लें रान वेंचून काडलें. थंयच्या मूळच्या कोरकू आदिवासींक राना भायरे करून इतलो तेंप तांणी सांबाळून

दवरिल्लीं रानां मारून काबार केलीं. आयज हेच कोरकू वांजकुटे जमनीचेर शेती करतात आनी सारकें खावंक जेवंक मेळऽ नाशिल्ल्यान, कुपोशणाक लागून, बावक्या, करपल्ल्या पानां वरी झडून वतात, देवी सांगतात (''जंगल इंग्रजी बोलते'' १०८).

ते मुखार बरयतात -

अमेरिकेंतल्या मूळच्या जमातीं कडल्यान थंयची भांगराच्या खणींची भूंय हातासपा खातीर ब्रिटीश, फ्रँच, जर्मनं वसणूकवादी तांकां तरेकवार रंगांचे मणी दिताले. स्वतंत्रताये आदीं आनी उपरांतूय, भारतांतल्या आदिवासींची रानभूंय हातासून बदलाक आमी तांकां आठ-धा इंग्लीश उतरां दिल्यांत - 'बीट-गार्ड', 'जेएफएम्' (Joint Forest Management), 'रिझर्व्हड् फॉरेस्ट' - हे सारकेलीं (आदलोच संदर्भ १०९).

हो अन्याय, जुलूम आदिवासींनी मोन्यांनी सोंसलो? ते केन्ना पेटून उठले नात?

उठले. पूण तांच्या ह्या बंडाच्या इतिहासांक ब्रिटीशांच्या आनी 'आमच्या'य इतिहासांत फावो तशी सुवात मेळ्ळिना.

देवी सांगतात -

आदिवासी कामा निमतान शारांत येतात तेन्ना तांच्या चलपांत एक शिस्त आसता. सैन्यांतल्या शिपायां वरी, एका फाटल्यान एक, वा शिंया दिसांनी थळांतर करपी सुकण्यां वरी ते मोन्यांनी आन्नी वेगान चलतात... आदिवासी थंड आसतात, कित्याक, भितल्ल्यान तांकां राग आयिल्लो आसता (''परंपरेच्या शोधात'' ८२).

आमचे मदल्या भोव थोड्यांक इतिहासाची ही घुस्मट आयकूंक आयल्या, आनी शांततायेच्या लिपणा मुळा धांकून उरिल्लो हो अन्याय उकताडार हाडून, एका कडसरायल्ल्या इतिहासा कडेन समाजाचें लक्ष ओडपाचें, ताका न्याय जोडून दिवपाचें काम तांणी जीव ओतून केलां.

म्हजे वळखीचीं दोन नांवां घेतले बगर रावं नजऽ - गणेश देवी आनी महाश्वेतादेवी.

आदिवासी कसत आयिल्ले ती भूंय कोणाचे मालकेची हो प्रस्न इकुणिसाव्या शतमाना मेरेन केन्ना उप्रासूंक नाशिल्लो. वोत खंय कोणाचे मालकेचें आसता? न्हंयूय बी अशीच सगल्यां खातीर व्हांवता, सगळ्यांची आसता. तशीच भुंयूय बी आदिवासींचे नदरेन सगल्यांची आशिल्ली.

ब्रिटीशांचे राजवटींत सरकारान भुंयेचेर कर लायलो. कराची वसुली करपाक भूंय मेजप सुरू जालें. कर दिवपाची तांक आशिल्ल्यांनी - सावकारांनी - आदिवासींच्यो जमनी हातासल्यो, आनी आपणाल्याच जमनींचेर आदिवासी बंदे कामदार (bonded labour) जाले. रानांय तांचीं उरलिंनात. ब्रिटीश अधिकाऱ्यांक निखटे मौजे खातीर रानवटी सावदांची शिकार करपा खातीर परवाने मेळूंक लागले, आनी आदिवासींक मात पोटा खातीर सोंसो, हरण मारिल्ले बद्दल शिक्षा जावंक लागली (पळेयात गणेश देवी ''ओरसंगच्या प्रवाहाबरोबर'').

आदिवासींक हें समजूंक लागलें तेन्ना तांचो विद्रोह जागो जालो. तांणी हातांत तीर-कामठें घेतलें. आनी मागीर कांय आदिवासी जमातीच 'गुन्यांवकारी जमाती' जाल्यो.

स्वतंत्र भारतांत, १९५२ वर्सा, ह्यो जमाती 'विमुक्त' जाल्यो. पूण म्हूण आदिवासींचे प्रस्न सुटले व्हय?

स्वतंत्रताये उपरांत आमचेर विकासाचो सांवार आयलो आनी 'देशाचे उदरगती खातीर' आंखिल्ले व्हडले व्हडले प्रकल्प थळाव्या आदिवासींक हिसपांत लेगीत घेना आसतना आमी तांच्या माथ्यार थापले. सरदार सरोवर धरण प्रकल्प तांतलोच एक. शारांनी आनीक आनीक प्रदुशण नाका म्हूण व्हडले व्हडले कारखाने आदिवासींच्या वाटारांनी धुकलुपाचेय यत्न आयज चल्ल्यात. आयचे परिस्थितींत ह्या कारखान्यांनी आदिवासींक कामां मेळ्ळींच जाल्यार प्युनाचीं, सफाई कर्मचाऱ्यांचीं मेळटात.

हो अन्याय पयस कसो करप?

आयज आदिवासीं कडेन भूंय ना, रान ना, धड तत्वगिन्यानूय ना, गणेश देवी सांगतात. पूण तांचे कडेन विचार करपाची एक खाशेली तरा आसा. ही तराच तांचें मुखेल शस्त्र जावं येता. आनी भास हें ताचें एकलें एकसुरें माध्यम. आपणाली भास मरूंक दिवप ना, ती सांबाळून दवरप हाका भारतांतल्या दर एका आदिवासीन आपणालो नवो धर्मूच लेखूंक जाय. हे भाशेचे, जिणेदिश्टीचे बुन्यादीरूच मुखेल समाजाचीं शास्त्रां आनी शस्त्रां समजून घेवपाची तांक ताणें जोडली जाल्यार आदिवासी मुखेल प्रवाहाचे गुलाम उरचे नात, तातूंत 'धनीपण' जोडूंक पावतले, देवींक दिसता (पळेयात आदलोच संदर्भ).

ह्या दिश्टाव्यांतल्यान प्रेरणा घेवन देवी वडोदऱ्याक 'भाषा केंद्र' आनी गुजरातांतल्या छोटा उदेपूर तालुक्यांतल्या तेजगढ ह्या ल्हानश्या आदिवासी गांवांत 'आदिवासी अकादमी' चलयतात.

ते सांगतात -

हांवें कॉलेजींत वर्गाच्या निमाण्या बांकार आंग चोरून बशिल्लीं 'एस्.टी.' भुरगीं पळेल्लीं, आनी दोंगरां घळींनी, मेकळेपणान आनी तायट मानेन निरागस जिवीत जियेवपी आदिवासी पळेल्लीं. ह्या दोनांय मदीं आयची शिक्षण वेवस्था उबी आसा (''वानप्रस्थ'' ६३).

ह्या दोनूय पंगडांक सांदपी पूल उबो जावचो, आयच्या शिक्षणा वरवीं आदिवासींचें मानसीक खच्चीकरण जाता तें ना जावचें ही मोख नदरे मुखार दवरून देवींची आदिवासी अकादमी उबी जाल्या. प्रेम आनी तळमळ ह्या दोन खांब्यांचेर. आदिवासींक आत्मनिर्भर करपाच्या, तांचें आत्मबळ वाडोवपाच्या हावेसान.

हिंसा आदिवासींच्या विकासाचो खरेलो मार्ग जावूंच नजऽ हें सत होलमल्ले देवी रचणुकी वावरा वरवीं उदरगत सादपाचो मार्ग तांचे मुखार उकतो करतात.

आदिवासींचो विकास कसो करचो? तांकां मुखेल प्रवाहांत हाडचे काय पेल्यानूच दवरचे? तांचे खातीर बरें कितें? हे विशींचीं धोरणां आयजवेर मुखेल प्रवाहांतले जाणकारूच थारायत आयल्यात. आदिवासींच्या विकासाच्यो सगल्यो येवजणो 'वयल्यान' येतात. तांचे मदल्यान वयर सरनात.

देवी विश्वासान सांगतात -

आज तेजगढचे अकादमींत हांवें बुदवंत आनी हुशार आदिवासींचो असो एक पंगड तयार केला जांतलीं भुरगीं आपणाल्या गांवांत रावन विकासाची आपणाली अशी संकल्पना घडोवंक तयार आसात.

क्रांतीच ही एक व्हडली.

तेजगढ आदिवासी अकादमीच्या जल्मा सावन महाश्वेतादेवी तिचे कडेन जोडिल्ल्यो आसात. त्यो सांगतात - आमकां, आयच्या भारतीयांक, 'भारत' हें उतर खंय सोदचें तें खबर आसना; ह्या उतराचो सोद घेवपाची सुरवात तेजगढ सावन करूं येता ("भाषा आणि मी" २९).

सपनां मनशाक जगयतात.सपनां पळोवपाचो हकूच आमचो सगल्यांत पयलो मुळावो हक आसूंक जाय, महाश्वेतादेवी म्हणटात (आदलोच संदर्भ २१-२२).

पूण... दोळे उकते करून भोंवतणी नदर मारल्यार दिश्टी पडटलें - कितल्याश्या जाणांक हो हक अजून मेळचोच आसा. तांचीं सपनां हेरांनी काडून घेतल्यांत. भुंयेचो कुडको नाशिल्ले, दिसवड्याचें मानायपण वांट्याक आयिल्ले गरीब शेतकामती; रानां भायरे जाल्ले, उबंत पडिल्ले आदिवासी; शारांनी रस्त्यांचेर दळडिरांत रावपी गरीब - सगल्या सगल्यांची नदर सपनां पळोवंक केऽन्ना विसरल्या. हे लोक जियेनात. दीस काडटात. जे सगल्याच वटांनी नागवल्यात ते स्वतंत्र तर निखालूस नात... अन्यायूच हो. धड्डडीत अन्याय.

ह्या अन्याया आड महाश्वेतादेवी पोटतिडकीन बरयत आयल्यात. आपणाल्या कथा-कादंबऱ्यांतल्यान कुशीक पडिल्ल्या, कुशीक काडिल्ल्या आमच्याच देसभावांचें कोडू सत्य त्यो आमकां दाखयत आयल्यात.

हेच संघर्शमय साहित्ययात्रेंत तांकां बीरसा मुंडा मेळ्ळा. भारताच्या स्वतंत्रतायेच्या झुजांतलो एक हिरो.

पूण बीरसाचो विद्रोह फकत विदेशी सत्ते आड, ब्रिटीशांच्या शोशणा आड नाशिल्लो. त्या काळांतले सामंतशाये आडूय तो बंड करून उठिल्लो.

एके वेटेन अन्याय अत्याचारांक लागून वांट्याक आयिल्ली भूक, भीक, दळडीर... दुसरे वेटेन अन्याय अत्याचारां वरवीं जोडिल्ली गिरेस्तकाय, समृद्धी. हे फाटभुंयेर बीरसा जल्मल्लो. सुगाना आनी करमी मुंडाचो पूत. बिरेस्तारा जल्मल्लो म्हूण 'बीरसा'.

छोटा नागपूर जाणें वसयल्लें त्या मूळ थापणाराचो दायजी आशिल्लो सुगाना मुंडा आयज भिकाऱ्याचे अवतिकायेक पावला. हेर मुंडां वरी ताचीय भूंय सावकारान हातासल्या. न्यायालयांत न्याय मागपाचीय माणसुकी ना. जुवीज फिरंगी. मुंडांची भास ताका समजना. दुभाशी आनी वकील सांगतात तें आयकून तो नीत करता...

दीसभर कश्ट. दिसाचे अखेरेक 'घाटो' (नाशणो, वरी सारकेल्या धान्याची भाकरी), वांगडा तोंडाक लावपाक मीठ. मीठ नासल्यार अळणी 'घाटो'.

बीरसाल्या व्हडल्या भावालें, कोमतालें, सपन - व्हड जातकच बाजारांतल्यान साकभर मीठ घरांत हाडप, सगल्यांक जाय तितलें मीठ आपल्या हातांनी काडून खावंक मेळचें म्हूण.

बीरसाची आवय आनी ताच्यो भयणी 'महुआ'च्यो बियो वायनांत घालून वांट्टून तांचें तेल काडटात. ह्या तेलाचो घरांत दिवो जळटा. हें पळोवन बीरसाकूय दिसता, बेगीन व्हड जावचें, कोमता वांगडा बाजारांत वचून मिठाचे सगले साक आनी तेलाचीं पिंपां घेवन येवचीं, आनी आवयक राणी करून सोडची.

बीरसा कोकणदुदयाच्या कट्ट्याक तार बांदून 'टुयला' घडयता. टुयला आनी बांसरीय तो अप्रूप वाजयता. ताची बांसरी आयकून रानांतले सोंशे, हरणां, दुकरां कांय खीण थिरावतात. बीरसा नाचा मांडार वता तेन्ना ल्हान व्हड पिरायेचे सगले मुंडा ताका पळोवंक, ताची बांसरी आयकूंक थंय वतात. बीरसा चार-चवगां वरी न्हय. ताका रानाचीं गुपितां सगलीं कळटात.

गांवांत दुकळ येतकच मुंडा मिशनांत वचून क्रिस्तांव जावन येतात. मिशनाचे सायब मागीर तांच्या पोटाचें पळेतात. उपरांत बरी पीक येतकच मुंडा आपल्या धर्मांत परते येतात.

एक दीस अशेच सुगाना, पाशना, कोमता, बीरसा जर्मन मिशनांत वचून क्रिस्तांव धर्म घेवन येतात.

बीरसाच्या दोळ्यांत व्हड जावपाचें सपन. बरोवंक-वाचूंक शिकपाचो हावेस. जर्मन मिशनांत वचून तो लोअर प्रायमरी परिक्षा पास जाता. उपरांत मुखावयलें शिकूंक चालकाडा मिशनांत वता.

बरोवंक-वाचूंक शिकप, 'देमान करून' गांवची जमीन परती मेळोवप, मागीर पाद्री जावप, सगल्यांक जेजूची खबर सांगप... - बीरसाचें नवें सपन. आवयक साकांनी मीठ व्हरून दिवप - तेंय बी तो विसरूंक ना.

बीरसा मिशनांत सपनां रचता तेन्ना भायर मुंडा सरदारांचें सरकारा कडेन तांचे हकाचे भुंये खातीर झूज चलता. ताचो धग मिशनाकूय लागता.

इल्लो इल्लो बीरसा जाण-टो जाता. ताका कळपाक लागता - कायद्या मुखार मुंडांचें कांय चलना. मुंडा वकील काडटात तेन्ना मुंडांचे पयशे खावन तो न्यायाधिशाक उरफाटेंच सांगता. सरकारांतले धवे कातीचे सायब, काळे कातीचे थळावे सावकार, 'दिकू' (जमातींतले न्हय ते), येशूच्या मोगाच्या धर्माचो संदेश घेवन आयिल्ले मिशनरी सायब - सगले एकेच माळेचे मणी. सगले पिडापीड भोगोवपी. ती भोगपी आमी - मुंडा, बीरसाक दिश्टावो जाता. मुंडा सगल्यां कडल्यान फटवल्यात, नागवल्यात, तो पळेता, आनी विद्रोहान पेटून उठ्ठा.

"सायब-सायब एकेच तोपयेचे. जशें सरकार, तशेंच मिशन, सगले सारखेच" (*अधिकार अरण्याचो* ५७) अशें फादराक सांगून आपणाल्या सपनांक सोडचीट दिवन बीरसा मिशन सोडून घरा परतता.

"अरण्याचो अधिकार कृश्ण भारताचो मूळ अधिकार. जेन्ना धव्या लोकांचो देश दर्यातळाक झेमतालो, तेन्ना सावन कृश्ण भारताचे काळे लोक रानाक आवय म्हूण वळखतात" (६२) - ताका होलमता.

'तूं' म्हणप ना, 'तुमी' म्हणप - बीरसा मिशनांत शिकिल्लो... सरकारी कचेरेंतले 'बाबू' सायबांक 'आप' म्हणटात, शेटींक 'तुमी', आनी मुंडांक मात 'तूं', 'रे' - भाशेच्या वापराच्या विशमतायेन भरिल्ल्या व्याकरणाचो तो अणभव घेता.

आनी मागीर बीरसा मुंडांचो 'भगवान', 'धर्तर आबा' जाता. 'उलगुलाना'चो - बंडाचो - उलो दिता. पोटां फाटीक तेंकिल्ल्या मुंडांच्या हड्ड्यांत तो आकांताची धिटाय, आकांताची शक्त ओतता. आपूण मुंडा हाची मुंडांक व्हडवीक दिसूंक लागता.ते 'बीरसायत' जातात. 'उलगुलानां'त उडी घेतात. सांगातान स्वतंत्रतायेचें, 'मुंडा

राज्या'चें सपन पळेतात.

बीरसा तांकां सांगता, ''आमगे सगल्यांचे जाण्टेले जेन्ना मुंडा समाजांत, मुंडा राज्यांत आसलले, ते मीठ मेळ्ळ्यारूय ताचे सरसमान वांटे करताले, भांगर मेळ्ळ्यारूय करताले. मुंडा राज करतले जाल्यार सगल्या मुंडांक आसपावन घेवंक जाय, कळ्ळें?'' (१६१).

मुंडांच्या मनांत तांच्या निजा वयलो विस्वास जागयतां जागयतां ताका दिसूंक लागता, आपणाली कूड म्हळ्यार छोटा नागपुराची भूंय; हे भुंये वयल्या 'ताजने' आनी 'कांची' न्हंयांचे प्रवाह आपणाल्या रगतांतल्यान व्हांवतात. त्या न्हंयांच्या कांठार बसून 'अरण्यका'-मुंडांची रान-आवय रडटा... हे भुंयेचे खरेले धनी मुंडा. सायब, मिशनरी, सावकार, दिकू - सगल्यांक तिचे वेले धांवडावन घालूंक जाय.

२४ डिसेंबर १८९९ चे रातीं बीरसाचें 'उलगुलान' सुरू जाता.

उपरांत सरकाराचें 'ऑपरेशन शैलराकाब'.

२५ मार्च १९०० चो *द स्टेट्समन* सांगता, ऑपरेशनांत ''उणेच म्हळ्यार चारशीं मुंडा मेल्यात. फाव ती वासपूस जावंक जाय'' (१९२). सरदारांचें म्हणणें, सातशीं मुंडा मेल्यात. रेव्हरंड हॉफमन (जांणी *ॲनसायक्लोपेदिया मुंडारिका* तयार केल्लो) म्हणटात, विसूच जाण मेल्यात, जाल्यार सरकारी निवेदन सांगता, धा जाण मेल्यात, सात जाण घायाळ जाल्यात.

४८२ मुंडा बंदखणींत पावतात. खटलो उबो जावचे पयलींच चवदा जाण घायांनी वीख जावन बंदखणींतूच मरतात. फकत अंयशीं जाणांचेर खटले उबे जातात. *द स्टेट्समन* ह्या अन्याया आड आवाज उठयता. सुरेन बॅनर्जी *दि बँगॉलीं*त हे बेपर्वायेचेर बरयता, लॅजिस्लेटिव्ह कावन्सिलांत जाब विचारता.

ह्या 'उलगुलाना'ची अखेर कशी जाता?

१८५७च्या बंडाची कशी जाल्ली...?

९ जून १९०० दिसा कॉलराच्या दुयेंसान पंचवीस वर्सांचो बीरसा बंदखणींत सोंपता.

१८५७ च्या बंडाची 'काणी' शाळांनी शिकिल्ल्या जण एकल्या भारतीयाक इल्ली तरी खबर आसा. पूण बीरसाच्या उलगुलानाची कथा...?

ह्या अन्यायाची भरपाय करपाचें काम महाश्वेतादेवीन केलां.

मुंडांच्यो केशी घेवन ब्रिटीश न्यायवेवस्थे आड झगडुपी, धवे काती मुळा अर्दो मुंडाच जाल्लो वकील जेकब, बंदखणीचो दोतोर आशिल्ल्या, बीरसाच्या भुरगेपणांतल्या मिशनांतल्या 'दिकू' सांगात्याक, अमूल्य अब्राहमाक, सांगता - तुमचे शासक तुमकां शिक्षण, छापखानो, विद्यापीठ, रेल्वे दितात. हातूंत तांचो सुवार्थ आसा. ते तुमकां मुळावे मनीस-हक मात दिवंक सोदिनात. ते दिल्यार तांचे हस्तक - छोटा नागपुरांतले सावकार, वाणी, जमीनदार, राजा - हांच्या सुवार्थांचेर हावळ येता. तें तांकां परवडना.

आनी, 'मुळावे मनीस-हक' ह्या उतरांचो बीरसाचो अर्थ कितें काय, अमूल्य चिंतता.

- 'घाटो' वांगडा मीठ मेळपाचें सूख, भुंयेर गरजे पुरतें पीक घेवपाची मेकळीक, वेटी वावर नासप, रानाचे कुशींत मेकळेपणान जियेवप - इतलोच!

मळबांतलो सुर्या मागपा इतलें कांय न्हय हें, ताका दिसता.

अन्याय हो अन्याय, आनीक कांयच न्हय... तो घुस्मट्टा. 'मुंडा रायट केस' सोंपना फुडें आपणाले चाकरेची सोडचीट दिता.

पराजयान संग्राम सोंपना... उलगुलानाक अंत ना. बीरसाक मर्ण ना...

- मुंडांक दिसता तशें अमूल्याकूय दिसता.

बीरसा मुंडा, ताचें उलगुलान, आनी आर्विल्ले संस्कृतायेच्या जाळवणदारांनी आनी तांच्या हस्तकांनी न्याय वेवस्तेच्या आदारान आदिवासींचेर केल्लो धड्डडीत अन्याय हांची कथा म्हळ्यारूच इतिहासीक वास्तवाचेर उबी आशिल्ली *अधिकार अरण्याचो* ही कादंबरी. हें वास्तव एकठांय करपाक लेखिका कितली कश्टल्या वावुरल्या आसतली! तशी, मुंडांच्या अंतरंगांत, तांच्या लोकवेदांत कितली खोल रिगल्या आसतली!

हें पुस्तक वाचतना आनीक एका पुस्तकाचो उगडास जागो जातालो - शणै गोंयबाबांल्या *पुण्यात्मो राम कामती* ह्या चरित्राचो.

मुंबयचें भुंये भरवण जाल्लें वाळकेश्वराचें देवूळ राम कामत ह्या मनशान परतून बांदलें हे एकेच वळीन जागयल्ले जिज्ञासेचें बोट धरून शणै गोंयबाब कोण हो राम कामत ताचो सोद घेवंक लागले. काशीनाथबाब नायक सांगतात, ही जीण बरयतना शणै गोंयबाबान कसलेंच साधन मेळोवपाचें बाकी दवरूंक ना. मुंबयच्या सरकारी कचेऱ्यांतलीं सवायदोनशीं वर्सां फाटलीं हातांनी बरयल्लीं, झिरझिरिल्लीं, शाय फुटिल्ल्यान वाचूंक कठीण आशिल्लीं कागदां तांणी म्हयन्यांचे म्हयने तकालस घेवन वाचल्यांत, आनी ब्रिटीश न्यायदेवतेन कामतींचेर अन्याय केला हें पुराव्यां सयत सिद्ध केलां (पळेयात ''उजवाडावप्याचीं दोन उतरां'').

इतिहासा विशींचे जे जापसालदारकेचो उल्लेख महाश्वेतादेवी आपणाले 'भुमिकें'त करतात तीच जापसालदारकी शणै गोंयबाबांल्या राम कामतीच्या सोदांत दिश्टी पडटा. सत्याक आनी न्यायाक वाट मेळटा ती हे तरेच्या, जापसालदारकी वळखुपी मनशांच्या वावरांत.

इटालियन विचारवंत उम्बेर्तो इको हांचो एक सुंदर निबंद आसा, "The Wolf and the Lamb : The Rhetoric of Oppression" (२००४) ह्या माथाळ्याचो.

एक लांडगो आनी एक मेंढरूं, दोगांय उदक पियेवपाक खंय एकाच वझऱ्यार पावलीं. लांडगो वझऱ्याचे वयले वेटेन आशिल्लो, आनी मेंढरूं ताचे सकले वेटेन. मेंढराक पळोवन लांडग्याचे जिबेक उदक सुटलें. पूण 'कारण' नासतना बेश्टोच ताचेर उडी कसो घेतलो! ''आगो बाय, तूं म्हजें पियेवपाचें उदक म्हेळें करता!'' ताणें मेंढराक म्हळें.

''अशें कशें जातलें! तूं उबो आसा थंय सावनूच उदक म्हजे सरीं येता...'' मेंढरान जाप दिली.

लांडग्याक भितल्ल्यान लज जाली. ''स म्हयन्यां फाटीं म्हजे असवडीं तूं म्हजें वायट उलयल्लें, हय मगो?'' ताणें मेंढराक दटावणेच्या सुरान विचारलें.

''स म्हयन्यां फाटीं?! तेन्ना हांव जल्मुंकूच नासलें,'' मेंढरान जाप

दिली.

"अशें? तशें जाल्यार तुजो बापूय आसतलो तो म्हजें वायट उलोवपी," लांडग्यान म्हळें, आनी ताणें मेंढराचेर उडी घेतली आनी ताका खालें.

इको म्हणटात, हे काणयेंतल्यान दोन निश्कर्श काडूं येतात -

१. पिडणूक करतलो पयलीं पिडपाक 'कारण' सोदता.

२. ताचें 'कारण' (समर्थन) चुकलां म्हणपाचें पिडणूक भोगपी ताका दाखयता तेन्ना तो ताचेर बळाचो वापर करता.

इतिहासांत हेच काणयेचीं तरेकवार रुपां पळोवंक मेळटात, इको सांगतात (४८).

*अधिकार अरण्याचो.* मूळ बंगालींत *अरण्येर अधिकार.* एके बंगाली धुवेची कृती समर्थपणान कोंकणींत हाडपी आनीक एक बंगाली धूव - कस्तुरी देसाय. आदली कस्तुरी भट्टाचार्य. कादंबरेंतले मुंडांचे संवाद महाश्वेतादेवीन कशे दिल्यात, खबर ना. पूण कस्तुरीन ते दिल्यात वेळपांचे कोंकणींत. हाका लागून कादंबरी वाचतना बीरसा 'आमचो', हांगचोच अशें जाणवत रावता.

बीरसाची काणीय लांडगो आनी मेंढराचे काणयेची देख एक. आमगेल्या वेळपांनी हे काणयेचो अणभव घेवंक नासतलो अशें म्हणूं येत?

हो इतिहास म्हाका तरी अजून अनवळखी. पूण हालींच, २५ मे २०११ दिसा, बाळ्ळे घडिल्ली एक घडणूक इतिहासाची जापसालदारकी घेवपाची बांदीलकी वळखल्ल्या कोणाय नागरिकाक अस्वस्थ केले बगर कशी रावतली? अनुसुचीत जमातींच्या कांय मागण्यां खातीर घडोवन हाडिल्ल्या मोर्चांत वांटेकार जावन परततना वाटेर जाल्ल्या 'बोवाळां'त महेश गांवकार आनी दिलीप वेळीप ह्या दोगां तरणाट्यांक कोण तरी उजो घालून लासून मारून उडयता. लोकशायेन चलपी मेकळ्या आनी 'सुशेगाद' गोंयांतली लांडगो आनी मेंढराचे काणयेचीच देख न्हय ही?

कस्तुरीचो अभ्यासाचो विशय वनस्पतविज्ञान. (हो विशय घेवन ताणें रांची विद्यापीठांतल्यान एम्‌एस्‌सी केल्या. थंयच ताची बीरसा कडेन वळख जावंक नाशिल्ली मूं?) रुखावळीचेर कस्तुरीचो उपाट मोग. ताणें कोंकणींत भुरग्यां खातीर गोंयचे रुखावळीची वळख करून दिवपी *गोंयांतले रूख* (गोवा कोंकणी अकादेमी, १९९८) म्हूण एक सुंदर पुस्तक बरयलां.

मंगेश पाडगांवकर म्हणटात :

जांची हृदये झाडांची
त्यांनाच फक्त फुले येतात.

कस्तुरीचो परमळ ताच्या ह्या दोनूय कृतीं वरवीं कोंकणी साहित्यांत सदांच उरतलो.

झाडांक मुळां आसतात.

मनशाकूय मुळां आसतात. हीं मुळां ताचे भाशेंत आसतात. भास मनशाची भूंय.

कस्तुरीचीं मुळां ताचे बंगाली भाशेंत आशिल्लीं म्हूण्णूच कोंकणीक ताचीं इतलीं बरीं फळां मेळूंक पावलीं. म्हूण्णूच कस्तुरी नारायणाची घरकान्न जातकच 'भटी' शिकलें, घरांतूय भटी उलोवंक लागलें. म्हूण्णूच कस्तुरीची धूव - अपूर्वा - आयज जितली बरी बंगाली जाणा तितलीच बरी भटी, कोंकणी आनी मराठीय जाणा (तें पुण्याक शिकलां). म्हूण्णूच नारायणूय बंगाली शिकूंक पावला.

मुळांनी आपलेपणान लागीं करून धटाय दिल्लो संवसार हो...

*अधिकार अरण्याचो* गोंयचे सुनेन कोंकणीक दिल्ली एक सोबीत भेट. कोंकणी घरांनी सुनो जावन आयले उपरांत सुंदर कोंकणी उलोवपी कांय पंजाबी, गुजराती, मराठी, कन्नड धुवांक हांव वळखतां. कस्तुरी वरी तांणीय बी आपले भाशेंतले एके बरे साहित्यकृतीचो अणकार कोंकणीक दिलो जाल्यार...?

झाडांचो दिवपाचो गूण सहजतायेन आंगात केळयल्ले हे इश्टिणी कडल्यान तांकां आनी आमकांय बी प्रेरणा मेळत रावची ही प्रार्थना.

कस्तुरी देसाय आमकां अंतरल्यार ह्या म्हयन्यांत वर्स जाता. तांकां आमचीं आर्गां.


**संदर्भ वळेरी** (कोंकणी, मराठी, इंग्लीश ह्या क्रमान)

महाश्वेतादेवी. *अधिकार अरण्याचो.* अण. कस्तुरी देसाय, नवी दिल्ली : साहित्य अकादेमी, २००७.

शणै गोंयबाब. *पुण्यात्मो राम कामती : एक दुखेस्त इतिहासीक जीण.* मुंबय: गोमन्तक छापखानो १९३९.

देवी, गणेश (सगले लेख) *वानप्रस्थ.* पुणे : पद्मगंधा प्रकाशन, २००७.

महाश्वेतादेवी. "भाषा आणि मी." *साठ वर्षांची गोष्ट : एका वैचारिक आंदोलनाचे सिंहावलोकन.* संपा. सुषमा करोगल. पुणे : पद्मगंधा प्रकाशन, २०१२. २१-२९.

Eco, Umberto. "The Wolf and the Lamb : The Rhetoric of Oppressions" (2004). *Turning Back the Clock : Hot Wars and Media Populism.* Trans. Alastair McEwen. London : Vintage Books, 2008. 44-65.





## उकतावणी

(सेम आं. ८ रजिस्ट्रेशन ऑफ न्यूज पेपर्स
सेंट्रल रूल्स १९५६, फॉर्म आं. ४)

| | |
|---|---|
| १. उजवाडावपी थळ | : मडगांव, गोंय ४०३ ६०१ |
| २. उजवाडा येता तो काळ | : दर म्हयन्याक |
| ३. उजवाडावपी, छापपी आनी धनी | : जयवंत भालचंद्र सरदेसाय |
| राष्ट्रियताय | : भारतीय |
| नामो | : ११, लोटलीकार बिल्डींग, कोंब-मडगांव गोंय ४०३ ६०१ |
| ४. संपादपी | : माधवी सरदेसाय |
| राष्ट्रियत्व | : भारतीय |
| नामो | : २०१—बी, सालदेल अपार्टमेन्ट्स रूअ द साउदादिश, पाजीफोंड, मडगांव—गोंय ४०३ ६०१ |

हांव, जयवंत भालचंद्र सरदेसाय, अशें उकतायतां की, वयर दिल्ली खबर, म्हजे म्हायतीक आनी समजुतीक धरून खरी आसा.

**जयवंत भालचंद्र सरदेसाय**
उजवाडावपी

# अंक खूब आवडलो

मुंबई ,
१७ मार्च २०१३

संपादपी 'जाग' म्हयनाळें,

दिवाळी-नातलां २०१२ चो अंक फेब्रुवारीच्या आखेरीक मेळ्ळो. खूब आवडलो. 'कोंकणी नाटक : शंबर वर्सां' ह्या विशयाचेर कांई चडावताची माहिती बरयतां. ही माहिती 'मुंबयचे गोंयकार आनी कोंकणी नाटकां' ह्या श्री. हरदत्त खांडेपारकार हांणी बरयलेल्या लेखाक तशेंच *जाग* नोव्हें. ०६ - जाने ०७ च्या अंकात प्रगट जालेल्या 'पैलेच्या यादी जागे जाल्यो' ह्या बरपाक पूरक जावन आस्स.

श्री. हरदत्त खांडेपारकारान १९५६-५७ ते १९५९-६० ह्या वर्सांचो उल्लेख केल्ला. ताज्या चार वर्स पैले, म्हळ्यारी १९५१-५२ ते १९५४-५५ ह्या कालांत, हांव कॉलेजांत आशिलों. त्यापैकी १९५१-५२ ह्या वर्सा बेळगांवांत आसतना घारा मराठी उलयतालो आनी त्यामिती गांवांतुल्या चित्रापूर सारस्वतांगेर गेल्यार मात्र मराठी रागार हांवें कोंकणी उलोवंचें जात्तालें. १९५२ च्या मे महिन्यांत मुंबय आयलों ते तालमकीवाडी ह्या ताडदेव आशिल्या कोंकणी वस्तींत. थंय सगळे वातावरण कोंकणी आशिल्लें. दिवाळीच्या उत्सवांत कै. तलगेरी वेंकटराव, कै. डोंगरकेरी उमानाथराव, कै. बैंदूर देवराय अयंगळ, कै. गोळीकेरी सुंदरराव, कै. सुरकुंद अण्णाजीराव हांगेलीं नाटकां जात्तालीं. चार-पांच वर्सं हांव तालमकीवाडींत आशिलों तो प्रेक्षकाच्या नजरेन मगेलो कोंकणी नाटकांचो सुवर्णकाळ अशी हांव लेकतां. 'कोंकणी साहित्य समिती' नायगांव -दादरच्या रंगमंदिरांत नाट्यमहोत्सव करताली. सर्व नाटकांचीं नांवं स्मरणांत नात. कांही उगडासांत आस्सत. 'वज्रा कुडकं', 'वचनबद्ध', 'वचनमुक्त', 'जांवय सोदतना जाग्रनां', 'वल्लो चेडो', 'चिक्कोलु', 'सपनांतुलो बुवा', 'मामाली मैना', 'चुकी कोणाली', 'सोयरिके संभ्रम', 'दुडवाध्यासु', इत्यादी नाटक बरयतले कन्नड लिपींत हस्तलिखीत बरयताले. तालमकीवाडींत ऑफिस आशिल्या 'कॅनरा सारस्वत असोसिएशन' ह्या संस्थेक १०० च्या चड वर्सं जाल्लीं. संस्थेन त्यानिमित्ताने कोंकणी बरपांचीं हस्तलिखीत मेळोवंचो प्रयत्न सुरू केल्लो. आमगेल्या लोकांक Archive करचें महत्व खबर नातिलमिती हें काम संथ गतीने चालू आस्स.

मगेल्या यादीप्रकारि मुंबईत पैली आंतर महाविद्यालयीन कोंकणी नाट्यस्पर्धा १९५४-५५ ह्या ॲकॅडेमीक वर्सा जाल्ली. कॅनरा सारस्वत असोसिएशनच्या पुढाकारान. KSAचे उपाध्यक्ष कै. एस.के. नाडकर्णी हांणी फिरती ढाल दिल्ली आनी KSAच्या कार्यकारी समितींतले वांगडी तशेंच नाट्यकर्मी कै. दादा (गोपाळ) माविनकुर्वे आनी कै. गिरीश कोडकणी हांणी स्पर्धा आयोजित करच्यांत मार्गदर्शन केल्लें. ह्या स्पर्धेंत चार कॉलेजांनी भाग घेतलो - रुपारेल (२ नाटकुलीं), सिध्दार्थ (१ नाटकुलें), विल्सन (१ नाटकुलें), आनी भवन्स (१ नाटकुलें). स्पर्धा मुंबयच्या गिरगाव चौपाटी लागीं आशिल्ल्या विल्सन कॉलेजच्या हॉलांत जाल्ली. रुपारेल कॉलेजच्या 'सत्यशील हरिश्चंद्र' ह्या नाटकुल्याक सर्वश्रेष्ठ नाटकुलें, तर भवन्स कॉलेजच्या किसन कामताक सर्वश्रेश्ठ नट असो मान मेळ्ळो. रुपारेल कॉलेजच्या दुसऱ्या नाटकुल्याचें बरप आनी दिग्दर्शन कै. सुमंत केळेकार हाणी केल्लेलें आनी तातूंत कु. सुधा कामत हिने काम केल्लेलें. विल्सन कॉलेजच्या 'पिसो' ह्या नाटकुल्यांत श्री. सुभाष कोप्पीकर आनी शांता नाडकर्णी हांणी भाग घेतिल्लो. 'सत्यशील हरिश्चंद्र' ह्या कोंकणी नाटकाचे बरौवपी कै. वेंकट तलगेरी कन्नड नाटकांतुई काम करताले आनी तांका सन्मानई प्राप्त जालेल्लो.

**- सुधीर कोडकणी**
संपर्क: ०२२-२६६०५२८३

## भरतवाक्य

१२.३.१३

भौ. माधवी सरदेसाय हांकां स.न.

''दुखी लोक, कश्ट करचे काबाडी अणी तप कन्न वाज आयिल्ले, रुसी-मुनी - हांगेल्या मनरंजना खातेर हांवें हें नाट्यशास्त्र रचलां.''

- नाट्यशास्त्रा वयलो ग्रंथ बरयतना भरतमुनीन सुरवेकच आपलें मनोगत अशें सांगून दवरलां. हाजी याद जावचें कारण म्हळ्यार जाग : दिवाळी-नातलां २०१२ हो आंक. कोंकणी नाटकाची शंबरी मनयताना आंकांत आयिल्लो मजकूर बारकायेन वाचलो.

म्हजी प्रतिक्रिया -

श्रीधर कामत बांबोळकार आनी हनुमंत चोपडेकार हांणी कोंकणी नाटकाचो परमर्श बऱ्या भाशेन घेतला. चोपडेकार स्रेश्ठ मराठी नाटककारांतलें सुरेश खरे हांचें नांव विसरले.

हरदत्त खांडेपारकार हांगेल्या लेखनान पयले खेपेक इतली नवी म्हायती समजून आयली.

पुंडलीक नायक हांगेली मुलाखत विचार करपा सारकी आसा.

'जिवीत-मोख' नाटक आवडलें. 'मायावती-सारावती' हो विनोद बरो जुळला. बाबा अणी माँ हांची 'तू तू मैं मैं' बाचाबाची विनोदी आसा. वाचून हांसो आयलो. दत्तारामबाबालीं बलस्थानां म्हळ्यार, तांचें रचना कौशल्य आनी चुरचुरीत संवाद. तांणी आनीक नाटकां बरोवंक जाय.

एकुणच जागाचो हो आंक म्हळ्यार कोंकणी नाटकाचे शंबरीचेर 'भरतवाक्य' आसा अशें म्हणूंक जाता.

**- विठ्ठलराय भट**
संपर्क: ९२२३३६५१९९

# साहित्य सृजनाचीं सुत्रां

दत्ता दामोदर नायक

साहित्य सृजनाचीं सुत्रां आज हांव तुमकां सांगतां.

पयलें सुत्र - बरोवंक सुरवात करात.

तुमकां बरोवंक येता काय ना, येतलें काय ना हो विचार करीत रावूं नाकात. कागद घेयात, पेन घेयात आनी सरळ बरोवंक सुरवात करात. खंयचोय विशय घेयात. साहित्याचो खंयचोय प्रकार वेंचून काडात - निबंध, कविता, कथा, प्रवासवर्णन, तुमकां जाय तो साहित्यप्रकार वेंचून काडटकीर तुमकां बरयन दिसता अशा विशयाचेर बरोवंक सुरवात करात. एकदां सुरवात केली म्हणटकीर तुमकां सुचत वतलें. सुचता तशें तशें बरयात. आपलें बरोवप बरें काय वायट, ताचो पांवडो किदें, वाचप्याक तें आवडटलें काय ना हे विचार मनांत निखालूस हाडूं नाकात.

Nike हे बुटाचे कंपनीचो एक स्लोगन आसा - "Just do it". ते प्रमाण, Just start writing

तुमकां सायकल चलोवंक येना जाल्यार किदें करप? सायकल शिकून चलोवप काय सायकल चलोवन शिकप?

सायकल चलोवन शिकप. सायकलीचेर बसप आनी चलोवपाक सुरवात करप. तुमी घडये पडतय बी. पूण अशें करूनच तुमी सायकल शिकतले.

साहित्याचेंय तशेंच. बरोवंक सुरवात करप आनी कशें बरोवचें तें शिकप.

दुसरें सुत्र - बरयत रावात - एकदां बरोवंक सुरवात करतकीर बरयत रावात. दर दिसा किदें ना किदें बरयात. डायरी लेगीत बरयल्यार जाता. पूण इल्लें तरी बरयात.

बरोवनच तुमकां बरोवपाची संवकळ जातली.

तुमी नवें घर बांदतकीर घरांत रावपाक वतात. उदक जाय म्हणून उदकाची पी सोडटात. नळांतल्यान म्हेळें उदक येता. 'आंवंज्य' म्हणून तुमी हात कुशीन काडटात.

आतां नळांतल्यान म्हेळें उदक येता तें बंद कशें करप? नितळ निवळ उदक येवपाक उपाय किदें?

एक उपाय म्हळ्यार, नळ बसयतना नळाचे प्लंबिंग वेवस्थेंत चिकोल माती गेल्ली आसता, देखून नळाची प्लंबिंग वेवस्था सोडोवन नळ भितरल्यान निवळ करप.

पूण ताचेय परस सादो उपाय आसा.

नळाची पी कांय वेळ चालू उरूं दी. नळांतल्यान पांच धा मिनटां उदक व्हांवत रावूं दी. नळाचें उदक आपशींच निवळ जातलें.

साहित्याचेंय तशेंच आसता. बरयत रावात. बरयतां बरयतां तुमचें बरोवप सुदारतलें. भास निवळ जातली. तुमच्या बरपाची पत वाडत वतली.

तिसरें सुत्र - एकदां बरयल्लें परत बरयात. परत बरयल्लें परत एक फावट बरयात.

बरयल्लें रोखडेंच छापूंक धाडचें न्हय. बरयल्लें परत बरोवचें. परत बरयल्लें परऽत एक फावट बरोवन काडचें. जितले फावटीं मूळ बरपाचें पुनर्लिखाण करूं येता तितले फावटीं तें करचें. दरेका वेळा पयल्या परस दुसरें आनी दुसऱ्या परस तिसरें बरोवप अदीक बरें जातलें. लिओ टॉलस्टॉय पसून कोंकणी लेखक सुरेश आमोणकारां मेरेन सगळ्यांनी हो अणभव घेतला. देखून बरयल्लें परत बरोवन काडपांत आळस करूं नाकात.

पुनर्लिखाण म्हणजे आपणेंच आपलें बरप सुपांत घालप. चाळणेंतल्यान चाळून काडप. गाळणेंतल्यान गाळून काडप. फिल्टर करप. रिफायन्ड करप.

चवथें सुत्र - सादें, सोंपें, सुटसुटीत बरयात

बरयतना जाता तितलें सादें, सोंपें, सुटसुटीत बरयात. जाता तितली दुर्बोधता टाळात. क्लिश्टता टाळात. मुदयेर थीक कशीं, जाय तितलींच, उतरां वापरात. पाल्हाळ करूं नाकात.

देख म्हणून, साने गुरुजीचें साहित्य वाचात.सादी ओघवती भास. वाचतना दिसता, घसरगुंडेर बसून आपूण अळंग फुडें फुडें वतां. कसलोच त्रास जायना.सुपुल्लीं उतरां. ल्हान वाक्यां. सोंपी पूण. अर्थगर्भ भास.

वास्तुशिल्पांत, म्हळ्यार Architectureांत, less is more (उणें तें चड) असो वयर वयर विचित्र आनी विरोधाभासी दिसपी नेम आसा.

जितल्यो वणटी उण्यो तितली रिती सुवात चड असो तो नेम.

उण्यांत उण्या उतरांनी चडांत चड अर्थ हाडपाची फिशालकाय आंगांत केळयात. उतरांनी आशयाची घनता (Density) येवूं दी.

तुमच्या बरपांत सुचकता येवूं दी. वाचप्याक जाय तसो श्वास घेवंक उकत्यो सुवाती आसूं दी. शब्दबंबाळ आनी अर्थबंबाळ बरोवन वाचप्याक घुस्मटावन उडोवं नाकात.

यंत्र (माख्न) म्हळ्यार मनशाचे बुदवंतकायेचें गोठिल्लें रूप असो विचार ॲन रॅन्डान मांडला.

तेच तरेन, दरेक उतर म्हळ्यार मानवी संस्कृतायेचे सामुहीक बुदवंतकायेचें गोठिल्लें रूप म्हणूं येता.

तुमच्या साहित्यांत अशीं कन्डॅन्स्ड उतरां येवूं दी.

झॅन तत्वज्ञान सादे सोंपे तरेन, सहजतायेन सौंदर्याची निर्मणी करूं येता अशें मानता. Aesthetics through simplicity असो झॅन तत्वज्ञानाचो आग्रो.

तुमच्या साहित्यांत अशी सहजताय येवूं दी. कसलीच कृत्रीमताय नाका. कसलेंच नाटकीपण नाका.

तुमचें साहित्य सेंद्रीय (organic) जावूं दी. तातूंत कसलेच तरेची असेंद्रीयता इनऑर्गेनिकपण नाका.

वाचप्याक असलेंच बरप आवडटा.

पांचवें सुत्र - बरोवं नाकात, उलयात.

तुमी साहित्य बरोवंक वचचें न्हय. तुमी तुमच्या साहित्यांतल्यान उलोवचें.

बरें साहित्य म्हळ्यार बरोवपी आनी वाचपी हांचे मदलो संवाद. सुसंवाद.

तुमच्या दोळ्यां मुखार अशें चित्र उबें करात - वाचपी तुमचे मुखार बसला आनी तुमी ताचे कडेन उलयतात. खबरी मारतात.

रवीन्द्र केळेकारांच्या साहित्याची देख घेयात. रवीन्द्रबाब आपल्या बरपांतल्यान वाचप्या कडेन मेकळेपणान उलयतात अशें आमकां दिसता.

तुमी आनी तुमचो वाचपी हांचे मदीं संवादाचे सांकव उबारात.

अशें केल्ल्यान वाचप्याक तुमचे विशीं आपलेपण दिसतलें.

वाचप्याक बरोवपी आपलो इश्ट, सांगाती कसो दिसूंक जाय. थंय त्रयस्थाचें नातें येवंक जायना.

देखून बरोवं नाकात, उलयात. वाचप्या कडेन पोटभर उलयात.

सवें सुत्र - बरोवं नाकात, पितारात.

पितारात. कागदाच्या कॅनव्हासार उतरांच्या ब्रशांनी पितारात. ताचेर साहित्याचो 'साहित्यस्केप' काडात.

सर्जनशील साहित्यिकाक 'व्हिज्युअल मॅमरी' आसपाक जाय. एकदां पळयल्लें ताका बारीकसाणीन याद उरपाक जाय आनी साहित्यांत हेचें बारीकसाणीन सैमाचीं, मनशांचीं, सावदांचीं, शेवण्यांचीं वर्णनां येवंक जाय.

हाकाच आमी चित्रकलेंत डिटेलिंग म्हणटात.

तुमच्या साहित्याक एक आकार आसूंक जाय. खोलाय आसूंक जाय. रंग आसूंक जाय. रूप आसूंक जाय.

"A line is a dot that went for a walk," आनी "A drawing is simply a line going for a walk" अशें म्हणटात.

म्हळ्यार, खंयचोय बिंदू पासयेक वता तेन्ना ताच्या पावला कणकणी रेशा जाता.

ही रेशा फांतोडपावलेक वता तेन्ना ताचें चित्र जाता.

तेच तरेन, Literature is simply an imagination going for a walk अशें म्हणूं येता.

प्रतिभेची शतपावली म्हळ्यार साहित्य.

चित्रकला आनी साहित्य हातूंतलें हें साम्य मतींत धरात.

साहित्य म्हळ्यार प्रतिभाशक्तीन उतरांनी पितारिल्ली चित्रकला.

देखून बरोवं नाकात, पितारात.

सातवें सुत्र - आयकात. बारीकसाणीन आयकात.

तुमकां तुमच्या साहित्यांतल्यान वाचप्या कडेन उलोवंक जाय जाल्यार तुमी आयकूंक जाय. बारीकसाणीन आयकूंक जाय.

भेड्डे लोक मोने जातात हो सैमीक नेम तुमी जाणात. देखून

आयकात. कान दिवन आयकात. तन्मयतेन, तद्रूप जावन आयकात.

कानस जायात. तिसरो कान उकतो करात आनी कानांनी पळयात. Look through your ears.

इंग्लीशींत आयकुपाक 'hear' आनी लक्ष दिवन आयकुपाक 'listen' अशीं दोन उतरां आसात.

बेठ्ठींच आयकूं नाकात. लक्ष दिवन आयकात.

प्राचीन साहित्याक आमी श्रुती म्हणटाले. मुद्रणाचें शास्त्र नाशिल्लें तेन्ना लोक आयकताले आनी आयकल्लें दुसऱ्याक सांगताले.

आमचे वेद, आमचीं उपनिषदां, आमचें रामायण, आमचें महाभारत एकट्यान आयकून दुसऱ्याक सांगलें, दुसऱ्यान आयकून तिसऱ्याक सांगलें, आनी अशे तरेन फुडले पिळगे मेरेन तें पावलें.

आयकुपाची कला आनी शास्त्र शिकून घेवप ही दरेका साहित्यकाक गरजेची अशी गजाल.

आठवें सुत्र - पळयात, बारीकसाणीन पळयात.

श्रुती फाटोफाट येता ती स्मृती. आयकल्लें याद धरूंक जाय तशेंच पळयल्ल्याचीय याद उरूंक जाय.

देखून दोळ्यांनी दोळे भरून पळयात. बारीकसाणीन पळयात. सरभोंवतणी पळयात. ३६० अंशाच्या वर्तुळांतल्यान आठय दिकांनी पळयात. तुमचे दोळे फकत ॲन्टेना जावचे न्हय, ते डिश ॲन्टेना जावचे.

डोळस जायात. तिसरो दोळो उगडात. दोळ्यांनी आयकात (Listen through your eyes).

इंग्लीशींत (see) आनी (observe) अशीं दोन उतरां आसात. तशीं कोंकणींतय 'पळोवप' आनी 'तेळप' अशीं दोन उतरां आसात.

ह्या दोनय उतरां मदलो भेद लक्षांत घेयात.

अर्जुनाचे एकाग्रतेन पळयात, आनी पळयल्लें काळजाच्या फोटो फिल्माचेर सांबाळून दवरात.

णववें सुत्र - वाचात, खूब वाचात.

वाचात. खूब वाचात. उपाट वाचन करात.

बरो वाचपीच, चिकित्सक, चोखंदळ वाचपीच सर्जनशील बरोवपी जावंक शकता.

वाचनान अणभवांचें मळब आनी क्षितीज विस्तारता. वाचनान बरोवप्याच्या व्यक्तिमत्वाक उंचाय आनी खोलाय येता.

साहित्यिका कडेन संदर्भसंपन्नता Reference Richness आसप गरजेची.

तरातरांचे संदर्भ, सुभाषितां, ओंपारी, आख्यायिका, काणयो, कविता आपल्या बरपांत जाय तेन्ना आसपावन घेतल्यार साहित्य भरजरी जाता. सोबीत सुंदर जाता.

धावें सुत्र - तुमचें अणभवविश्व गिरेस्त करात.

तुमच्या अणभवाची त्रिज्या, व्यास आनी परीघ वाडयात. तुमच्या अणभवांत वैविध्य आनी वैचित्र्य येवूं दी. भोंवडेर वचात. तरातरांच्या मनशांक मेळात. अणभवांचें गांठवल वाडूं दी. अणभवांचें डिपॉझिट वाडूं दी.

सांठो आनी संचीत हातूंत भेद आसा. आमी मुद्दम पुंजायतात तो सांठो, जसो धान्याचो, कपड्यांचो, पयश्यांचो. आमचे नकळत काळजांत सांठत वता तें संचीत.

तुमी नवे नवे अणभव घेत वतले तशें तशें अणभवांचें संचीत काळजांत सांठत वतलें.

वाचप्यांक तुमच्या अणभवांत वांटेकार जावूं दी. तांकां तुमच्या अणभवांची रूच घेवूं दी. वास घेवूं दी. तुमचे अणभव तांकां सांसपूं दी.

अणभव घेतना उत्कटतेन घेयात आनी तुमच्या अणभवांची उर्जा बहिर्गोल (convex) प्रतिभेच्या भिंगांतल्यान केंद्रीभूत करून वाचप्यां मेरेन पावयात.

इकरावें सुत्र - एकांतांत चिंतन करात आनी तुमचे अणभव उबयात.

जे अणभव तुमी घेतात तांचेर रोखडेच बरोवंक वचूं नाकात. एकांतांत बसात. चिंतन करात. कोंबी तांतयां उबयता तशे तुमचे अणभव उबयात. मनोविश्वाच्या बुयांवांत - ताच्या दोणांतल्या आंबल्यां भशेन तुमचे अणभव करमेवन येवूं दी.

अणभवांक फर्मेन्ट जावूं दी. कुसूं दी. मागीर तांचें मेळांय जातलें. ताक जातलें. धंय जातलें. व्हायन जातलें.

चिंतनान अणभवांचें रुपांतर अनुभुतींत जाता.

निखट्या अणभवांक विचारांचें तास मेळटकीर तांकां नवो आयाम, नवें परिमाण येता. तांची अनुभुती जाता.

वाचप्याक अणभवां परस बरोवप्याची अनुभुती अदीक आनंद दिता.

बारावें सुत्र - विचार करात, खूब विचार करात.

तुमचो मेंदू घामान थपथपूं दी. तुमच्या मेंदवाक उठाबश्यो काडपाक लायात. ताका जॉगिंग करपाक लायात. मेंदवाक खरस लागूं दी.

प्रतिभा म्हळ्यार सैमदत्त भेट न्हय. मानवी मेंदवाचे बुदवंतकायेचोच तो एक प्रकार. प्रतिभा कश्टान, श्रमान, परिश्रमान केळोवं येता. विचार, विचारमंथन, चिंतन,मनन, वाद, वादविवाद, कल्पना, कल्पना - विलास हीं मेंदवाचीं योगासनां. तीं घालून तुमचो मेंदू ताजो, टवटवीत, निरोगी, निरामय दवरात.

ताचे स्वेदगंगेचो अभिशेक तुमच्या साहित्याचेर जावूं दी.

तेरावें सुत्र - बरोवचे पयलीं बरोवन दवरात.

जें पळयलें, आयकलें, वाचलें, अणभवलें, सुचलें तें डायरेंत बरोवन दवरचें. फकत यादींचेर पातयेवन रावचें न्हय.

रांदचे पयलीं रांदपी मसालो कुटून दवरता. भाजी शिनून दवरता. नुस्तें उजरावन दवरता. सोय वांटून दवरता.

तशे तरेन खंयच्याय विशयाचेर बरोवपाचो विचार मनांत आयलो म्हणटकीर त्या विशया विशीं जें जें मेळटा तें सोदचें, पुनावचें आनी बरोवन दवरचें.

तुमची बरोवप्याची डायरी (writer's sketch - book) आसची. हे डायरेंत बरोवन दवरलां ताचो जाय जाय तेन्ना जाय जाय तसो वापर करचो.

चवदावें सुत्र - भाशेचो सभावधर्म वळखात.

जे भाशेंतल्यान तुमी बरोवंक सोदतात ती मायभास आसल्यार चड बरें. मायभास आसली तरी ती तुमकां बेसबरी कळटाच अशें ना.

भाशेचो सभावधर्म समजून घेयात. भाशेची उतरावळ, भाशेचें व्याकरण, भाशेचें नादशास्त्र, भाशेचें सौंदर्यशास्त्र - ताचो अभ्यास करात. भाशेंतल्यो ओंपारी, लोकांकाणयो, लोकगितां तुमच्या ओंठांर आसूं दी.

उतरांची लय आनी ताल, नाद आनी निनाद, अर्थ आनी अर्थन्यास, उतरांचें पारदर्शित्व आनी अर्थगर्भिता, उतरांची मोवसाण आनी खरसाण, सादेपण आनी नखरे, सूचकता आनी संदिग्धता, आशय आनी आशयघनता - हें सगळें तुमी वळखुचें पडटलें आनी भाशेचेर पुरायेन प्रभुत्व मेळोवचें पडटलें.

पंदरावें सुत्र - नवनिर्मितीचें तंत्र शिकून घेयात.

साहित्याची मांडणी गणिती पंद्दतीन करूं येता. तातूंत एक तर्कशास्त्र आसचें पडटा. विशयाची वा कथानकाची मांडणी सोंपणा सोंपणान (step by step) करची पडटा.

नवनिर्मितीचीं कांय तंत्रा आसात, तीं अशीं -

१. बेरीज करप. देखीक, साकर आनी न्हीद - 'साकरन्हीद'.

२. वजाबाकी करप - देखीक, 'जिणेचें अळणी टाट'.

३. पुनरावृत्ती करप - देखीक, 'निळे निळें ब्रह्म', 'येतले दीस म्होंवेच म्होंवे', 'जय हे जय हे / जय जय जय जय हे'.

४. अदलाबदल करप - देखीक, बाळकृष्ण : कृष्णबाळ, एक राजा आशिल्लो : एक आशिल्लो राजा.

५. विसंगतीचो उपेग करप. देखीक, 'काळखाचे दिवे पेटले'.

६. व्हड करप - देखीक, 'हती : गजहती', 'गडे : म्हालगडे', 'माय : म्हामाय'.

६. ल्हान करप - देखीक, 'पणस : पणसूल', 'कथा : कथिका', 'देवूळ : देवळी'.

७. संयोग करप - देखीक, तय आनी चंद्रीम : तयचंद्रीम : पुष्प आनी जडीत : पुष्पजडीत, रत्न आनी खचीत : रत्नखचीत.

अशे तरेन साहित्यांत रसोन्नती जावची म्हणून कांय साहित्यीक तंत्रां तुमी शिकून घेवचीं पडटलीं.

सोळावें सुत्र - अनुकरण करात.

हय! सुरवे सुरवेक तुमकां आवडटा त्या लेखकाचें वा कवीचे सरळ सरळ अनुकरण करात. तो लेखक वा ती लेखिका कसो/कशी बरयता ताचो अभ्यास करात. तांची शैली समजून घेयात. तांचे भशेन बरोवपाचो यत्न करात.

ल्हवू ल्हवू करून हें अनुकरण करता आसतनाच तुमकां तुमची शैली मेळटली.

अनुकरणच तुमकां मौलीक आनी सर्जनशील साहित्या कडेन घेवन वतलें.

जांकां पेवंक येना ते उदकांत उफेवपी रबरी कडें आदाराक घेतात. तशेंच हें!

उद्योगीक मळार जपानान किदें केलें? पयलीं पयलीं अमेरिकी मालाची कॉपी केली आनी मागीर मागीर ताचेय परस बरो माल तयार केलो. तशेंच हें!

सतरावें सुत्र - मायभास सोडून हेर भासो वाचपाची, तातूंत बरोवपाची संवकळ दवरात.

मायभास कोंकणी वांगडाच कोंकणीक लागींच्यो मराठी, संस्कृत, हिंदी; भुगोलीक नदरेन लागींच्यो कन्नड, मलयाळम; इतिहासीक नदरेन लागींच्यो पुर्तुगेज, इंग्लेज हातूंतल्यो तीन चार तरी भासो शिकात.

तातूंतलें अभिजात साहित्य वाचात. जाता जाल्यार त्या भासांनी बरोवपाची संवकळ करात.

अठरावें सुत्र - साहित्येतर विशयांची गोडी लायात.

फकत गद्य आनी पद्य, कादंबरी, कथा, आनी नाटक, सृजनशील साहित्य आनी साहित्य समिक्षा ह्या साहित्यीक वर्तुळांतच घुंवत रावूं नाकात. संगीत, चित्रकला, शिल्पकला, नृत्य, वास्तुशिल्प, खेळ, खगोलशास्त्र, वनस्पतीशास्त्र - अश्या साहित्येतर विशयांची गोडी लायात.

दोन विंगड विंगड कलांचो वो शास्त्रांचो संयोग जावनच नवनिर्मिती जाता.

संगीत, नृत्य आनी नाटक हांच्या संयोगांतल्यान नृत्यनाटिका फुडें आयली. वैद्यकशास्त्र आनी संख्याशास्त्र ह्या दोनय शास्त्रांचो एकत्रीत उपेग करून नवे सोद लागले.

साहित्यिकाक संगिताचें ज्ञान आसल्यार ताच्या साहित्यांत खेरीज अशें लालित्य येता. वैचारीक बरोवप्याक कायदो, तर्कशास्त्र, गणीत हांचें ज्ञान आसल्यार ताच्या बरपाक अदीक खोलाय येता. नाटककाराक मानसशास्त्र बेसबरें खबर आसल्यार तार्चे नाटक वेगळे उंचायेर वता.

एकुणिसावें सुत्र - आपलेंच अनुकरण करीत रावूं नाकात.

थोडें यश मेळटकीर लेखक आपुणच आपलेंच अनुकरण करूंक लागता. आपली जी शैली वाचप्यांक आवडटा तेच शैलींत बरयता. ताची नवे प्रयोग करपाची इत्साशक्त करपून वता. बरोवपी सुखासीन जाता. कम्फर्ट झोनांत वचून बसता. नवी वाट सोदपाचे त्रास घेना.

आपणें आपलेंच अनुकरण करप हो दरेका लेखका फुडलो मोटो सांपळो. ट्रॅप.

ह्या सांपळ्यांत, ह्या ट्रॅपांत पडूंक जायना.

लेखकाच्या लेखनांत वाचप्याक नवें दिवपाची उमळशीक दिसपाक जाय. नवी प्रयोगशीलता, नवें साहित्यीक इनोव्हेशन दिसपाक जाय.

साहित्यीक हो साहित्याच्या मळा वयलो उद्योजकच (आंत्रप्रेन्यर) आसता. ताणें आपल्या साहित्याचें सतत रिचार्जींग, रिइंजिनिअरींग करपाक जाय.

ताच्या रथाक एकच घोडो आसूंक फावना. ताच्या नवनवोन्मेषशालिनी प्रतिभेचे अश्व दशदिशांक दिग्विजयाक वचपाक भायर सरूंक जाय.

विसावें सुत्र - एका परस चड साहित्यप्रकार बरयात.

चडशे जाण सुरवेक कविता बरोवनच साहित्याचे देवळेंत पावल दवरतात. पुणून सगलेच कवी, म्हाकवी जायनात. फकत कवितेच्या नादाक लागूं नाकात. गद्य, निबंध, कथा, वैचारीक बरोवपाची संवकळ दवरात.

एका परस अदीक साहित्यप्रकार बरोवपाची संवय लायात. एकेच जमनीं तरातरांचीं पिकां काडल्यार जमनीचो कंस वाडटा. साहित्याचेंय तशेंच!

वैचारीक साहित्य हें सर्जनशील साहित्य न्हय अशें मानूं नाकात. ताका उणाक लेखूं नाकात.

साहित्यांतय एक चातुर्वर्ण्य आसता. ह्या चातुर्वर्ण्यांत काव्य आनी कादंबरी तथाकथीत उच्च वर्णांत आसपावता. ताचे फाटोफाट नाटक येता. मागीर कथा. ताचे मागीर ललीत गदय. देखीक, लघुनिंबध, प्रवासवर्णन. सगल्यांत निमाणें येता वैचारीक साहित्य आनी समिक्षा.

हो साहित्यीक चातुर्वर्ण्य मानूं नाकात - खंयच्याच साहित्य प्रकाराक उच्च वा नीच मानूं नाकात. खंयच्याच साहित्य प्रकाराचें सवळें नाका.

भयकथा, रहस्यकथा, शब्दांकन, सहलेखन अश्या साहित्यीक प्रकारां कडेन दुर्लक्ष करूं नाकात.

एकविसावें सुत्र - दरेका लेखकान स्वता समिक्षकय आसचें.

दरेका लेखकान साहित्याची समिक्षा करपाचें शास्त्र शिकून घेवंक जाय. आपल्या साहित्याची आपणेंच तटस्थतायेन समिक्षा करप, चिकित्सा करप ताका जमूंक जाय.

देखून आपणें बरयल्लें बरोवप त्रयस्थ ह्या नात्यान वाचचें. तें हेरांकय वाचूंक दिवचें. साहित्य छापूंक धाडचे पयलीं आपल्या साहित्यीक इश्ट मित्रां मर्दीं ताचेर फावो ती भासाभास जावची.

बाविसावें सुत्र - स्मृतीसूख वांटात.

सगल्यांक स्मृतीरंजन आवडटा. देखून नॉस्टाल्जीक जायात. आपले जिणेंतल्या भूतकाळांतल्या यादीं वयलो चितो फाफडून उडयात. ह्यो यादी जागयात. ह्या यादींचो आल्बम करतना तो तुमच्या साहित्यांतल्यान वाचप्या मुखार दवरात.

खूब वेळार प्रत्यक्ष अणभवा परस त्या अणभवाची यादच अदीक सुखदिणी आसता. सुखाच्याच न्हय तर दुःखाच्या प्रसंगाची याद कालांतरान सुखदिणी जाता.

हें काळाचें महात्म्य समजून घेयात. 'कालाय तस्मै नमः' म्हणून काळाक नमस्कार घालात.

काळ बदलत आसा. सगळेंच सतत बदलत आसा. अशा वेळार आपलें घर, आपलीं आवय बापूय, भयण भाव, आपलो गांव, आपली शाळा, आपलें कुळार हांच्यो यादी मनशाक स्मृतीसुखाचो खेरीत आनंद दितात.

तुमच्या वाचप्याक ह्या आनंदांत आसपावन घेयात.

तेविसावें सुत्र - परकायाप्रवेश करात.

सर्जनशील साहित्यिकाक परकायाप्रवेशाचो जादू कळूंक जाय. आपल्या साहित्यांतलीं पात्रां जिवीं तट्टटीत जावचे खातीर आपणें तांची जीण जगूंक जाय.

पात्रांची खेळणीं जावंक जायनात. पात्रां म्हळ्यार पुतळे न्हय. कळसुत्री बावल्यो न्हय.

आपल्या बरपांतलीं पात्रां म्हळ्यार आपलेंच एक रूप, आपलोच एक जीव अशें समजूंक जाय. जीव ओतून तांकां सजीव करूंक जाय.

खंयचीय कादंबरी, काणी वा नाटक वाचतना बरोवप्यान आपलेच जिणेची काणी सांगल्या अशें वाचप्याक दिसपाक जाय. Good fiction is autobiograhy dressed in coloured costumes अशें म्हणटात तें फट न्हय.

चोविसावें सुत्र - मानुशीकरण करात

झाडां पेडां, रूख, सावदां, शेवर्णी, सैम - ह्या अमानुशी गजालींचें मानुशीकरण करात - देखीक, "ह्या झाडाचें न्हेसण सुटलां" (रमेश वेळुस्कार) "वेली ऋतुमती झाल्या ग" (बाकीबाब बोरकार).

सावदांक आनी सवण्यांक मनशाचे भाशेंत उलोवंक दियात. सोबीत वाल ही जशी काय कमनीय अस्तुरी अशें म्हणात.

कांय वेळार मनशाचें अमानुशीकरण करात. सुंदर अस्तुरेक 'सोबीत वाल' अशें म्हणात. कुत्र्याचें गुबगुबीत पील हें ल्हान भुरगेंच अशें दाखयात.

पंचविसावें सुत्र - अद्‌भुतीकरण करात.

आमकां सगल्यांक, जाण्ट्यांक नेण्ट्यांक, आमचे दिसपट्टे जिणेचो वाज आयिल्लो आसता. आमकां अद्‌भुताचें आकर्शण आसता.

कल्पनाविलासाचो आदार घेवन वाचप्यांक वास्तव जिणे परस, पयस फॅन्टसीच्या अद्‌भूत विश्वांत व्हरात.

हॅरी पॉटर लोकप्रिय जावपाचें कारण हेंच.

सविसावें सुत्र - वाचप्याक अजापीत करात.

नाटक, कादंबरी, कथा बरयतना नाटकाचो, कादंबरेचो, कथेचो शेवट किदें जातलो हाचो अदमास वाचप्याक येवंक जायना.

रहस्यकथा बरोवपी कथाकार जे फिशालकायेन आपले रहस्यकथेचें रहस्य निमाणें मेरेन वाचप्या पसून गुपीत दवरता तशे तरेन कथानकाचो शेवट वाचून वाचपी अजापीत जावंक जाय.

साहित्य वाचतना वाचपी सदांच फुडें किदें जातलें हाचो विचार करता. वाचप्याच्या मनांत लेगीत येवचें ना अशे तरेन कथा, कादंबरी, नाटकाचो शेवट करप बरोवप्याक जमूंक जाय.

सुनितांत (sonnet) चवदा वळी आसतात. बारा वळीं उपरांत निमाण्या दोन वळींनी कवी वेगळोच विचार मांडटा.

दरेका साहित्यिकाक, वाचकाक अशी 'साहित्यीक गुगली' घालपाक कळूंक जाय.

सत्ताविसावें सुत्र - साहित्यांत सुसंगती आनी विसंगती येवूं दी.

साहित्यांत सुसंगती आसल्यार रसनिर्मिती जाता. विशयाची मांडणी एका तर्कशास्त्राचेर आदारीत आसूंक जाय. वाचप्यांक हें तर्कशास्त्र पटूंक जाय.

पुणून साहित्यांत विसंगतीकूय सुवात आसा.

झॅन तत्वज्ञान विसंगतीक एक खेरीत मान दिता.

चीनी, जपानी जिणेंत तुमकां विसंगतींतल्यान सौंदर्यनिर्मिती केल्ली दिसतली.

तांची रंगसंगती, खरें म्हळ्यार रंगविसंगती, पळयात. तांबड्या रंगा वांगडा पुरायेन पाचवो रंग येता. जेवणांत गोड आनी आंबट अशे मिश्र सुवाद (sweet and sour) आसतात. जपानी गार्डन फातर

आनी उदक हातूंतल्यान, विसंगतींतल्यान, सोबीत सुंदर जाता. स्त्री आनी पुरूश (यीन आनी यँग) अश्या विभिन्न प्रकृतींचो संयोग हें तर झॅन तत्वज्ञानाचें खास वैशिष्ट्य.

भारतीय पुराणांत अर्धनारीनटेश्वर आसा. शिव आनी विष्णु ह्या दैवतांतल्यान हरीहराचें प्रतीक उबें जाता.

महर्षी व्यासान महाभारताचे अखेरेक एक प्रसंग चितारला.

कुरुक्षेत्रा वयलें युद्ध सोंपलां. युद्धभुंयेर सैनिकांचीं मडीं पडल्यांत. रात जाल्या. रातचे चोर येवन सैनिकाच्या, सरदारांच्या गळ्यांतल्यो वस्ती, तांचीं शस्त्रां चोरपांत गुल्ल जाल्यात. इतल्यांत फांतोड जाता. एक चोर युद्धभुंये वयली रथाची एक घांट उखलता.

पळयत जाल्यार तिचे सकयल चिमणेन घाल्लें तांतीं आसा आनी तें तांतीं फोडून चिमणेचें पील भायर सरता.

मृत्यूचें थैमान आनी शेवण्याच्या एका सान पिलाचो जल्म - केदी विसंगती! हे विसंगतींतल्यान महर्षी व्यास आपलें महाकाव्य वेगळे उंचायेर व्हरता.

अठ्ठाविसावें सुत्र - मानवी भावनांचीं मुळां सोदात.

वर्णनात्मक पांवड्या वयल्यान मानसशास्त्रीय पांवड्यार वचात. मानवी मनाच्या अंतर्मनांत खोलायेन देंवून मानवी भावनांच्या मुळां मेरेन पावात. वेदनांचे 'नर्व्हसेंटर्स' सोदात. विकारांची वार उस्तयात.

मनशां कशीं वागलीं तें सांगतना तीं तशीं कित्याक वागलीं हें लेगीत सांगात.

हे खातीर मानसशास्त्राचो अभ्यास करप हें दरेका साहित्यिकाचें कर्तव्य.

मानसशास्त्राच्या अभ्यासान साहित्याक वेगळो आयाम येता.

एकोणतिसावें सुत्र - तटस्थ जावन बरयात. साहित्यांतल्या पात्रां मदीं घुसपून रावूं नाकात. थोडी तटस्थता दाखयात.

कथानका वांगडा व्हांवत वचूं नाकात. भावनावशता टाळपाचो यत्न करात.

तुमी आनी तुमच्या साहित्यांतलीं पात्रां हांचे मदीं फावो तें अंतर दवरात.

"Let there be spaces in your togetherness" अशें खलील जिब्रानान म्हणिल्लें.

साहित्यीक आनी ताची साहित्यकृती हांकांय तें लागू पडटा.

तिसावें सुत्र - तात्वीक पांवड्यार वचात.

जिणेचो अर्थ किदें, जिणेचें तत्वज्ञान किदें हाचेर खल करात.

मानवी संस्कृतायेच्या चिरंतन, निरंतन, सनातन, नित्यनुतन नैतीक मुल्यांचो उद्घोश करात.

संस्कृतायेचे धारणेक जें जें प्रेरक, पुरक आनी पोशक त्या मौलीक तत्वांचो जयघोश करात.

तत्वज्ञानाचीं सोंपणां चडटना साहित्याचे कलात्मकतेक वेर हाडूं नाकात.

ॲन रॅन्डाची *Fountainhead* आनी *Atlas Shrugged* ह्यो दोन कादंबऱ्यो साहित्यिकान तात्वीक पांवड्यार कशें वचचें हाच्यो बेसबऱ्यो देखी.

महाभारताची तर मोख दोळ्यां मुखार दवरचीच.

तत्वविचार कितले कलात्मकतेन मांडू येतात तें महाभारत आमकां शिकयता.

एकतिसावें सुत्र - वाचप्याक उजवाडांतल्यान काळखांत व्हरात.

वाचकाचें बोट धरून ताकाच काळखांतल्यान उजवाडांत व्हरप हें साहित्यिकाचें काम न्हय.

'तमसो मा ज्योर्तिगमय' ही प्रार्थना साहित्यिकाच्या ओंठांर नाका.

श्रेश्ठ साहित्यीक वाचप्याक उजवाडांतल्यान काळखांत व्हरता. ज्ञातांतल्यान अज्ञातांत व्हरता. ठोस अणभवांतल्यान संदिग्ध अणभवविश्वा कडेन व्हरता. जागृत मनाचीं दारां उगडून अजागृत मनाचे काळखाकुडींत व्हरता.

उजवाडाची पुजा कोणय करत. श्रेश्ठ साहित्यीक काळखाचे गर्भकुडींत वचून साहित्याचो लामणदिवो लायता.

बत्तिसावें सुत्र - बरयतना तुमी उपाट आनंद भोगात. वाचतना वाचप्यांक उपाट आनंद जावूं दी.

साहित्याचो मुळावो हेतू आनंद आनी फकत आनंद! आपल्याक आनंद आनी दुसऱ्याक आनंद.

बरयतना तुमकां आनी वाचतना वाचप्याक उपाट आनंद जावंक जाय.

बरयतना तुमकां मानसीक आनी शारिरीक कश्ट पडटात. पूण ते कश्ट उप्रासतना तुमकां साहित्य सृजनाचो आनंद भोगूंक मेळपाक जाय.

तुमी वाचप्याकय वाचनानंदांत बुडोवपाक जाय.

शोकांतिका वाचून सोंपयतकीर लेगीत वाचप्याक आनंद जाता. साहित्याची ही अप्रूप विसंगती लक्षांत दवरात.

साहित्य म्हळ्यार एक आनंद-योग!

दिसपट्टे जिणेंत आमच्या मनाचेर पडिल्ली धुल्ल पुसून आमचीं मनां काळजां तार्जी, टवटवीत करप हें साहित्यिकाचें कर्तव्य.

दुःखाच्या म्हासागरांत आनंदाचे जुंवे उबारप हें साहित्यिकाचें आद्य कर्तव्य.

साहित्य रचून आमी उपाट आनंद भोगुया. साहित्य वाचून वाचप्याक उपाट आनंद दिवया.

म्हज्या अणभवांतल्यान म्हाका सुचिल्लीं हीं साहित्य सृजनांचीं बत्तीस सुत्रां हांवें तुमकां सांगलीं.

तांचो अभ्यास करात. ताचेर चिंतन करात, मनन करात. आनी तुमच्या साहित्याच्या रुपान मायभास कोंकणीच्या गळ्यांत सुहासीक फुलांची माळ घालात.

संपर्क: ९८२२१०२४१६



# प्रियतम

रामनाथ गजानन गावडे

शिंदळकेच्या त्या बदनाम वेवसायांतलो हांव दादलो काय बायल? हें आयज म्हाजे म्हाकाच कुवाडें जावन पडलां. आयज म्हाजी वळख व्हड व्हड पयशेकारां कडेन आनी जायत्या प्रतिश्ठीत लोकां कडेन आसा. पुणून ती वळख फकत बंद कुडींतली. सोताची मनरिजवण करून कुडीक थाकाय मेळोवन घेवपा पुरती. बदलाक पयसो, धन-दौलत, जायतें हातासपाचें आनी तोंड धांपून वग्गी रावपाचें. भायर चार-चवगांत कोण पळय सुदीक ना. केळ्यांतलो बुळबुळीत सार खावन रस्त्या कुशीक शेंवटून मारलेली साल आपली म्हणपाक कोणूच तयार नासता. ते साली वरी म्हाजें जिवीत. जेचे कडेन पयसो आसा तेका कांयच उणें पडना अशें म्हणटात. पुणून तो मेळोवन दिल्ल्या मार्गानूच आयज म्हाका कुवाड्यांच्या भोंवऱ्यांत शेंवटिला. सगळें आसून कांयच नासलेले वरी जालां. दिसा उजवाडे रंगयल्लीं सपनां रातीचे दीस करतां करतां त्या काळखांतूच गडप जाल्यांत. आंगार भरजरी कपडे आसुनय विवस्त्र जालां. मागीर जगप तरी किद्याक...?

अशे तरेच्या चिंतनांनी घुसपल्लो तो जीव अथांग न्हंयचेर उबारलेल्या ऊंच पुलाचे अशीर देगेर एका पांयार रावन मध्यानेच्या चंद्रीमाक पळयत त्या खळखळून व्हांवतल्या, काय तेका हांसतल्या, उदकांत घालून घेवपाचे तयारेंत आसलो...

ज्या जिवान लाखांनी जोडले, हजारांनी मोडले, कितल्याश्याच जाणांच्या पिसुडलेल्या जिण्याक नवो अर्थ मेळोवन दिलो, तेचे कडेन आयज लाख आसुनय किंमत शुन्य! अशें हें किद्याक जालें काय? इतले सुंदर कुडीचो अंत करपाची पाळी किद्याक येयली काय? सदांच सर्गसुखांत लोळपी जिवाक नरकाचे दुवाळे किद्याक लागले काय?... अशे तरेचे शेंकड्यांनी प्रस्न चंद्रीमाक विचारीत तो अथांग उदकांत घालून घेवंक सोदतालो. पुणून मुकारल्यान येवपी वारो तेका आडायतालो. आपलो वेग अदिकादीक करीत तेका वयल्यावयर झेलून दवरतालो. त्या निमण्या वगतारूय तेका कोण साथ दिनासलो. अशें हें किद्याक घडटा काय... किदें चुकलें काय... चिंततां चिंततां आपशींच तेचे जिणेचो पट दोळ्यां मुखार एक चलचित्र जावन खेळपाक लागलो...

सूर मारून धांवतले गाडयेन अवचीत ब्रेक मारलो. जाल्लो भिरांकूळ आवाज आयकून जायते जाण तेवशीं धांवले. शार जरी लागीं आसलें तरी त्या वाठारांत तश्यो गाड्यो चड धांवनासल्यो. खोंपींनी आडायल्लो तो रस्तो पडिंगूच आसतालो. केन्नाय येतली गाडी पळोवपाक मानो आपशींच वयर सरताल्यो. भुरग्यांक तर तो रस्तो म्हणजे एक खेळामळूच

शें दिसतालें. पूण आयज धायेक वर्सांचो एक भुरगो ते येयल्ले गाडयेक आदळून पडलेलो. हरशीं ती वस्ती अडेची. सगलेच एकामेकांक परकी. तरी तेंचो एक गांवसो जाल्लो. त्या बोवाळान लोक केन्नाच एकठांय जाल्लो. ते गाडयेंतल्या लोकांक भायर काडून मारपाक एका फुडें एक घुरघुरतालो. दोगांनी गाडयेचेर मुठीय मारल्यो. पूण ती ते गरिबांचे वस्तींत येयल्ली काळ्या हारश्यांची गाडी गिरेस्तकायेचें प्रतीक आसली. त्या खातीर, भितर कोणय पेजाद मनीस आसतले अशें येवजून थोडे पयसूच रावल्ले.

कोणेन तरी त्या भुरग्याक कुशीक काडून बसयल्लो. पुणून तो आदारा विणें बसपाक शकनासलो. तसो चड मार लागला सो दिसनासलो. भंयान बेसुद्द जाल्ले वरी जावन तो थरथरतालो. इतल्यान अचकीत एकलो तोपयेकार थर्मास घेवन देंवलो आनी तेका उदक दिवपाक लागलो. पुणून तेच्यान उदकूय पिवपाक जायनासलें.

गाडयेक आदळल्लो भुरगो अमकोच म्हण कळटकीच तेची आवय तोंडार हात मारीत धांवत येयली. फाटोफाट बोबो मारीत बापुयूय येयलो. पुताची दशा पळोवन आवय हड्डें बडोवन घेवपाक लागली. जाल्यार बापूय ते गाडयेचें बॉनेट बडयत आकांत करपाक लागलो. तेन्ना ते गाडयेंतलो आनी एकलो नेटान देंवलो. तो बरो लांब-रुंद आनी सिनेमांतलो डाकू सो दिसतालो. दोळ्यां वयलें काळेंलें गॉगल माथ्यार चडोवन त्या बापायक पळोवपाक लागलो. तेन्ना बापूय चडूच गाळी संवपाक लागलो. तें पळोवन तसलेत शे आनी दोग जाण देंवले. तेन्ना एकल्याच्या हातीन लिपयल्लें पिस्तोल पळोवन तो बापूय भंयानसो अचळय कुशीक सरलो.

''हमार बच्चा, हमारे बच्चे को मारा...''

''कुछ नहीं हुआ उसको. वो बिल्कूल ठीक है!''

''पुणून तेका मार बसला...''

''तेका दोतोरागेर व्हरात.''

''वखद-पाणी करपाक आमचे कडेन पयशे नाकात?''

''सगळो खर्च हांव करतलों. चल, उखल तेका आनी घाल गाडयेंत.''

''ना... ना, तुमी कांयच करचेनात.''

''आरे, सांगलें न्हू, हांव व्हरतां म्हण! वांगडा तूंय यो.''

''ना... ना... तुमी आमकां व्हरून वाटेर खंयीं सोडटले.''

''मागीर, किदें करूं तर?''

''आमकां खर्चाचे पयशेच दिया!''

''आरे, बॅग काड रे तें... घे. पुरो मरे?''

अशें म्हणून धा हजार त्या बापायच्या हातार दवरले. पुणून तें भरलेलें बॅग पळोवन भलतोच कोण तरी अचकीत चाळवलो.

''आरे, ह्या तुज्या पयश्यांनी कांयच जावचेंना. तेका मोठ्या हॉस्पिटलांत व्हरचो पडटलो!''

''बरें, आनी घे.'' अशें म्हणत आनी धा हजार रुपया काडून दिले आनी तो गाडये वशीं परतलो.

तेन्ना अकस्मात आनिकय लोक मुखार सरले. ''इतल्यांनी जावचेंना. पात्रांव, तेका भरपूर मार लागला. तो वांचत सो दिसना. तेच्या खर्चाक एक लाख तरी दिवचो पडटलो!''

''एक लाख? खंय, गोरवां बाजारांत येयल्या रे?'' तोपयेकार उसळ्ळो.

तें आयकून ते लोक अदिकूच चाळवले आनी गाडी फोडपाची भास उलोवपाक लागले. तेन्ना तो तोपयेकारूय छाती मुखार काडून उलयलो,

''येऽ जादा बात करनेका नय. आमच्या पात्रांवाक तुमी सारके वळखुना. एक फोन करीत जाल्यार आरत्याचें परतें करून वडयतलो!''

''दवलू, मातसो वगी राव. तेंकां हांव पळयतां... बरें, तुमचें किदें म्हणणें आसा?'' पात्रांव गाडयेंतल्यान भायर सरलो.

''पात्रांव, ह्या लोकांक संवय जाल्या. आपली कोंबडी-बोकडी ना जाल्यार सुणें-माजर हाडून बळयां गाडये पोंदा वडोवपाचें आनी मेलें वा जखमी जालें म्हणटकीर पांचांक पंचवीस रुपया उठोवपाचे.''

''आरे पुणून, तो किदें जनावर? तो भुरगो मरे.''

''तो कोणूय आसूं. पयश्यां मुकार तेंकां कोणाचीच किंमत नासता. भुरग्यांक सुदीक ते गाडयेक आदळ म्हण सांगपी असले हे उणाक अकलेचे लोक.''

दवलूच्या ह्या उतरांनी लोक अदिकूच चाळवले आनी तेच्या आंगार वचपाक लागले. तेन्ना पात्रांवान तेंकां आडायत म्हणलें, ''मातशे वगी रावात पळोवया. तुमकां किदें जाय तें हांव दितां. पुणून पयलीं त्या भुरग्याक दोतोरागेर व्हरुया.''

''हय हय पात्रांव, हे लोक अशेच. पोराची किदें दशा जाल्या ते पळयनात. फकत पयश्यांक लागून झगडटात.''

पात्रांवाच्या उतरांत उतरां मेळयत कांय बायलां उलयलीं, आनी फुडाकार घेवन तेका गाडयेंत चडयलो. त्या बराबर तेचो आवय-बापूय, आनीक दोग जाण गर्दी करून फाटल्यान बसले.

भुरग्याक शारांतल्या एका खाजगी हॉस्पिटलांत व्हेलो. तेच्या एका पांयाक फ्रॅक्चर आसली आनी तकलेक मार लागून तो किद्याय किदें बडबडटालो. हें कळटकच आवय-बापायन मातसो आकांत सो केलो. पुणून पात्रांवान तेका सारको करपाची जबाबदारी आपली म्हण सांगून तेंकां शांत केलीं.

आवयन चार दीस पुताची सेवा केली. पुणून तेंच्या परस पात्रांव आनी तेचे मनिसच तेची चड काळजी घेतात तें पळोवन हॉस्पिटलांत येवप पातळ केलें. हरशीं तो पात्रांव कोण किदें म्हणपाची तेंकां मात्तूय खबर नासली. काळसर, तेलकट मुखामळाचो आनी रागिश्ट कसो दिसपी तो परकी मनीस इतलो मायेस्त आसत अशें दिसनासलें.

धा-बारा दीस जाल्ले... भुरग्याची भलायकी सुदारताली. दोतोर तेका केन्नाय घरा व्हर म्हण सांगूंक शकतालो. चार दिसां पयलीं तेजो बापूय खर्चाक जाय म्हण थोडे पयशे घेवन गेल्लो. तेचे उपरांत कोणूच येवंनासलो. ह्या खातीर कोणाकय आपोवपाक पात्रांवान मनीस धाडलो. पुणून कोणूच येयलोना.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं दोतोरान तेका घरा व्हरपाक लायलो. ते प्रमाण पात्रांव तेका घेवन तेच्या घरा गेलो. पुणून थंय कोणूच नासलो. पड्ड्यांचें पाखें काडटकच उरलेलो सांगाडो तोंड उगडून आसलो. तेचो आवय-बापूय बाकीच्या भुरग्यांक घेवन रातींच खंय तरी रेल्वेन बसून गेला म्हणपाचें तेंकां कळ्ळें. तेन्ना

तो भुरगो दोग-तिगांच्या फुडयांत वचून रडलो. पुणून तेका कोणूच दवरून घेवपाक वा तेच्या घरच्यां कडेन पावोवपाक तयार नासलो. खंय म्हण पावयतले? हाती पोटा वयले ते लोक. खंय पोट भरता थंय रावपाचें आनी किदें मेळटा थंय धांवपाचें. खावपी एक तोंड उणें जालें अशें म्हणून तीं खयीं पोटा फाटल्यान गेल्यां जायत अशें येवजून पात्रांवान आपली गाडी घुंवडायली.

हरशीं तो भुरगो गोरो आसलो. पुणून नितळसाण नासलेल्यान तेची कात राकट जाल्ली. पंदरा दीस हॉस्पिटलांत उरतकीच थंयचे थंडायेंत ती आपशीं उजळिल्ली. तो भुरगो सामको गिरेस्तांचो कसो दिसतालो. पात्रांवान तेका घरा व्हरतना बरे कपडे घेतलेले. ते घालतकच तर तेचें रूप अदिकूच फुलिल्लें. तें पळोवन पात्रांवाक तेचे विशीं आपलुकी निर्माण जावपाक लागलेली. तेचो आवय-बापूय तो गांव सोडून गेले अशें तेका कळ्ळें, तेन्ना तो उमेदीन सो तेका घेवन आपल्या घरा परतल्लो.

प्रवास मातसो लांबचो जाल्ल्यान भुरगो रडटां रडटांच ए.सी.चे शितळसाणींत सुस्त न्हिदलेलो. तें पळोवन गाडी चलयतल्या दवलून हळूच विचारलें, "पात्रांव, आतां आमी हेका खंय व्हरपाचो?"

"तूं सांग, खंय व्हरोया?"

"बारीक बारीक कामां करपाक असलेच भुरगे बरे."

"आनी तुमी इतले जाण आसात ते?"

"थोडीं कामां भुरगे करपाक शकतात, तीं जाणटेल्यांक जमनात."

"आरे आरे! तूं हेवटेन खंय वयता? घरा कडेन वचपाक जाय."

"घरा कडेन? ही गाडी घेवन??"

"आरे, ही गाडी आमच्या धंद्यांतली म्हण कोणाक खबर आसा? तूं मात येवं नाका. राव, देंव हांगा. गाडी हांव व्हरतां. तूं बशीन चल हॉटेलार."

तो देंवतकच पात्रांव गाडी घेवन घरा कडेन गेलो. गाडी समती भितर घेतली.

गाडयेक पळोवन घरांतल्या मनशांनी तकल्यो भायर काडल्यो.

पात्रांवा बराबर एक भुरगो आसा तें पळोवन हो आनी कोण काय अशें येवजितनाच तेणेन समती ऑर्द सोडली.

"हेका न्हावपाक बाथरूम दाखय. आनी आमच्या जेवणाची तयारी कर. म्हाका रोखडोच वचपाक जाय."

पांयाक प्लास्टर घातलेल्या त्या भुरग्याक सोयऱ्याक हाडचो तसो घरांत हाडलेलो पळोवन तेचे बायलेक अजाप दिसलेलें. पुणून तिणेन तेका विचारपाचें धाडस केलेंना. धंद्यांतल्या कोणायचो आसतलो अशें येवजून तिणेन जाणटेले वावराडेक तेचे मजतीक धाडली.

सगळो थाट, आपले खातीर वावराडी, बाथरुमांत न्हावपाचो पयलोच प्रसंग, परक्यांच्या घरांत आसुनय आपलेशें दिसपी वातावरण. अशा नवनवीन अणभवांक लागून तेका आखुडलेल्या वरी जावपाक लागलें.

न्हातकीर नवे कपडे घालून तेका जेवणाच्या मेजार बसयलो. तेन्ना वाडटले पात्रांवाचे बायलेन सहज विचारलें, "हो कोण?... पांयाक किदें जालें तर...?"

तेन्ना पात्रांवान हांसलेंशें करून म्हणलें, "आमचोच तो... आयच्यान आमगेरूच रावतलो..."

पात्रांवान 'आमचोच तो' म्हणनाफुडें नदरो तेचे वशीं घुंवल्यो. तेच्या चेड्यान तर आपलें काळशें तोंड अदिकूच काळें केलें. धाकलें चेडूं मात मातशें हांसलें. बायलेचें मुखामळ मात आपल्या धा वर्सांच्या पुताक आनी सात वर्सांचे धुवेक पळयतां पळयतां चिंतेस्त जावपाक लागलें. तेन्ना जेवणाच्या घमघमीत वासान खुशालभरीत जाल्लें तें वातावरण खिणा भितर गंभीर जालें. त्या भुरग्याक मात आपूण सुगूर जाग्यार आसां अशें दिसपाक लागलें. तेच्यो चिंता आपशींच पयस जाताल्यो. खोशयेन मुखामळ इल्लें इल्लें चडूच उजळटालें.

बायलेक घोवाच्यो राटावळी खबर आसल्यो. त्या खातीर ती चड चवकशी करपाचे भानगडीक पडलिना. पुणून तोंड वगी रावलें ना. "नांव किदें रे बाबा तुजें?"

तेन्ना आपलें खंयचें नांव सांगचें हेंच तेका कळना जालें. आवय एका नांवान, बापूय दुसऱ्या नांवान, भावंडां तिसऱ्या नांवान, आनी लोक कसल्या कसल्या नांवांनी उलो करताले. आपलें खरें नांव खंयचें तेंय तेका खबर नासलें. आतां किदें तरी एक सांगचें म्हण तो तोंड उगडपाक करतालो. इतल्यान पात्रांवान तोंड उगडलें, "प्रितम!"

प्रितम? आपलें नांव प्रितम म्हण तो पयलेच फावट आयकतालो. जावं, बाब्या, पोऱ्या, गोट्या, बुट्टू, छोटू असल्या नांवां परस 'प्रितम' नांव बरें आसा. अशें चिंतून तो पात्रांवाक पळयत हांसलो. आनी तेका तें नांव मानवलें हें पळोवन पात्रांवय मनांतल्या मनांत खूश जालो...

जालें. दीस अशेच वचपाक लागले. त्या घरांत तो एक घरचोच वांगडी सो वाडपाक लागलो. पांय बरो जावन तो भोंवपा-खेळपाक लागलो. त्या घरांत तो वावराडी सो नासलो तरी बारीक बारीक कामां करपाक तो घरच्यांक आदार करतालो. तेकाय बरी वागणूक मेळटाली. पात्रांवाचो चेडो भैरव इश्कोलाक वयतालो. तेका हाडपा-व्हरपाक रिक्षा आसताली. आनी बाय लागचेच शाळेंत शिकतालें. तरी तेका वांगड जाय पडटालो. आदीं तें काम वावराडी करी. आतां प्रितमूच तेका उमेदीन सांगात दिवपाक लागलो. तो असोच एकदां शाळेंत गेल्ले कडेन शाळा मास्तराक तो कांय शिकूंक ना म्हणपाचें कळ्ळें. मास्तरान तेका शाळेंत बसून शिकपाची वेवस्था केली. बायची चवथी जाय मेरेन सादारण देड-दोन वर्सां म्हणल्यार तो गरजे पुरतें शिकलो.

त्या घरांत तेका केन्नाच तीन वर्सां सोंपलीं.

दुसऱ्यागेर सदांच सारके दीस मेळटले अशें नासता. तो आपूण गरीबपणान रावपाक सोदतालो. पूण पात्रांवाच्या चेड्याक, भैरवाक, तो दोळ्यां मुखार नाका जावपाक लागलो. एक म्हणजे, तो खावन जेवन बरो गुटगुटीत जाल्लो, आनी गोरो आनी मेकळ्या मनाचो, सादो-भोळो कसो आसलेल्यान भैरवा परस तेकाच लोक चड बरे करताले. नकळऽ जाल्ले लोक तर तेकाच धाकलो पात्रांव म्हणटाले. तेन्ना तर भैरवाची तकली उसळपाक लागताली. मागीर आदळ-आपट करून तो तिडक उकतायतालो.

पात्रांव चडसो आपले धंद्याचे सुवातेरूच आसतालो. घरा कडेन येवप तशें खुबूच उणें जातालें. बायलेक तें कळटालें. मागीर ती केन्नाय पुताची गजाल घोवाच्या कानार

घालताली. पुणून दोगांकूय उपाय सुचनासले. आयज ना फाल्यां सगळें जाग्यार पडटलें अशें येवजून पुताक समजायत तीं दीस धुकलतालीं.

दाडेक धरलेलें सोडीन दिसना तेन्ना तेचे परिणाम खंयच्या खंय पावतात. तशेंच भैरवाचें जावपाक लागलें. तो वगीच कुतां काडून झगडीं करपाक लागलो. प्रितमाचें आनी तेचें उलोप बंदूच जाल्लें. भयणीनूय तेका पयस करचो म्हण भैरव तेचेर दबाव हाडपाक लागलो. पुणून भयणीक आपलो भाव कितलो कुस्को हेची जाण येवपाक लागलेली, आनी प्रितम कितलो मायेस्त आनी गोड सभावाचो हेचीय तेच्या बालमनान पारख केल्ली. प्रितमूच तेका आपलो सो दिसतालो. आवय पुताचेंच आयकताली. बापूय केन्नाय येतकीर बायची थोडीशी माया-अपुरबाय करतालो, आनी परत ताका भावाच्या तोंडांत घालून वयतालो.

असोच एक दीस भैरव चित्रां काडपाक बसलेलो. तेन्ना अवचीत बायचो हात बसून तेचो रंग वतलो. तेन्ना निमताक रावल्लो भैरव तेका लाकडाचे पट्टेन मारपाक लागलो. तें रड्टा तें आयकून प्रितम धांवत येयलो. पुणून तेणेन तेका आडावपाचें धाडस केलें ना. बायक पाखें दीत तेचे वयलो मार आपूण घेवपाक लागलो. भार येयल्ले वरी भैरव मेळटा तसो आनी मेळटा थंय तेचेर पट्ट्यो मारतालो. बोवाळ आयकून आवयन धांवन येवन तेका आडयलो. तेन्ना तो मातसो थारलो. पुणून प्रितमान हूं ना चूं करुंना. तांबडे जाल्ले दोळे भरलेले. पुणून एक थेंब वतपाक दिलोना. सगळो मार खावन तो वग्गी आसलो. बाय मात आवयक घट्ट धरून मुसमुसोन रडटालें. आवय किदें किदें बडबडटाली. पुणून रागा मुखार भैरवाक कांयच आयकूंक येयनासलें. तो फकत प्रितमाक तिरपे नदरेन पळयतालो. प्रितम मात कांयच जावंक नासले वरी वग्गी आसलो.

आपूण इतलो मार घालुनय हो वगी! हेका मात्तूय दुखलें ना! हो भैरवाक एके तरेचो अपमान सो दिसपाक लागलो. तेन्ना तो अचकीत भार भरलेले वरी उठलो आनी परत तेका आड घालून मेळत तसो खोंटांनी मारपाक लागलो.

आतां मात प्रितम रडलो. आंतकोड्यो तुटसर रडलो. कारण आदीं दुखापत जाल्ल्या घावांची आनी फ्रॅक्चर जाल्ल्या पांयाची दूख परत सणसणपाक लागलेली.

दुसऱ्या दिसा गजाल कानार पडना फुडें पात्रांव ताकतिकेन येयल्लो. पळय जाल्यार तेका भलतेंच चित्र दिसलें. प्रितम आनी भैरव कातकुल्यो केल्ले वरी हांसताले. प्रितमान एके खुर्चेर बसून दुसरे खुर्चेर पांय दवरिल्ले, आनी भैरव तेच्या पांया कडेन बसून किदें तरी करतालो.

पात्रांव अचकीत भितर सरलो आनी दोगांकूय बारीक पळोवपाक लागलो. तेन्ना ते दोगूय भंयान शे वग्गी पडले.

"भैरव, किदें करता?"

"अंऽ... कांय ना... झेल लायतां."

"झेल?"

"हय. दोतोरान लावपाक सांगला... तेचो पांय दुखता..."

"पांय दुखता, कसो?"

"अंऽ..."

"पात्रांव, हांव माळयेच्या सोपणां वयल्यान पडलों," मदींच प्रितम उलयलो आनी तकली सकयल घालून वगीच रावलो.

"भैरव, हांव तुका विचारतां, तेच्या पांयाक किदें जालें?"

आतां मात भैरवाच्या तोंडांतल्यान उतरां फुटना जालीं. पात्रांवान परत नेटान विचारलें. तेन्ना भंयानूच तेचें तोंड उगडलें आनी रडत रडत म्हणपाक लागलो, "पप्पा सॉरी..."

तें प्रकरण मागीर समजवणेच्या सुरांनी थंयच सोंपयलें.

पुणून पात्रांवाच्या मनांत किदें तरी वेगळेंच आसलें. भैरव नाका म्हणटा आसतनाय तो आठ दिसांनी येवन प्रितमाक शारांतल्या आपल्या हॉटेलार घेवन गेलो. भैरवा परस बायकूच चड वायट दिसलेलें.

प्रितम समजल्लो, हॉटेल म्हणजे च्या, भाजी-पाव मेळपाचें दुकान. पुणून येवन पळयल्यार तें एक लॉजिंग आसलें. शाराच्या एका कोनशाक शें लांबच्या लांब एके माळयेची पोरनी चाळशी आसली. भोंवडेकारांक रावपाक धायेक खोलयो आनी पांच-स बिराडां आसलीं. माळयेर चडपाच्या सपणां कडेनूच एक बारीकशी कचेरी आसली. थंयच ताका एके खुर्चेर बसोवन पात्रांव खंय तरी गेल्लो.

बरोच वगत जावन गेल्लो. जायते जाण येवन येवन तेका पळोवन वयताले. तेका सामको बेजार येयल्लो.

तो उठलो आनी थंयच भायर भितर पासयो मारपाक लागलो. वयर माळयेर कसलो तरी आवाज येता म्हण तो वचून अचळय जनेलांतल्यान पळोवपाक लागलो. दोग-तिगां चेडवां फकाणां शीं करतालीं. एकल्याची दिस्त तेचेर नदर पडली. तेन्ना तेणेन तेका कांय खीण बारीक पळयलो आनी वंठ चावत तेजेर दोळो मारीत "हाय मेरे राजा!" म्हणत मानेनूच तेका आपयल्ले वरी केलें. ते बराबर तो आबूज जावन समतो सकयल येयलो. पळयल्यार दवलू किदें तरी घेवन वयतालो. तेणेन तेका थारयलो.

"आरे प्रितम, म्हाका तुजी यादूच ना. पात्रांवान म्हाका तुका रुमार व्हरून पाय म्हणलेलो. पुणून पात्रांवाची ती धवेली म्हस येयल्या न्हू रे, म्हण भलतेच कडेन पावलों. चल चल यो, तुकाच पयलीं पावयतां..." तो किदें किदें बडबडत आसलो. प्रितमूय तेका किदें किदें विचारतालो. पुणून दवलू किदें सांगतालो तें सगळें तेच्या माथ्या वयल्यान वयतालें. त्या दोळो मारलेल्या चेडवाची कागाळूय तेणेन केली. पुंणून वयल्यान दवलू तेका म्हणपाक लागलो, "आसा पसंद जाल्यार चल. आतांच या... हीऽ ती पळय तुकाच पळयता."

"शी! म्हाका नाका. हांव तर केन्नाच लगीन जावचोना."

"जावचोना म्हणटा तोच पयलीं जाता."

"पुणून हांव खऱ्यांनीच..."

"आरे, आयज चित्ता तशें फाल्यां उरना. हांवेन जायतें चिंतलेलें. घर बांदतलों, लगीन जावन संवसार करतलों. पुणून एकूय सादलेंना. हे हळशिकेंत रावन केन्ना सारको जावचोंना अश्या दुयेंतान मात पडलों."

"पुणून भाऊ, दोन वर्सां फाटीं तुजें लगीन ठरलेलें न्हू रे?"

"ते व्हंकलेक कोण तरी पयशेकार मेळ्ळो, म्हाका सोडलो... बरें, तूं किदें कर, त्या रुमाचें दार उगड आनी भितर बस. हांव हें सामान पावोवन रोखडोच येतां."

ते प्रमाण प्रितम रुमांत वचून बसलो. भितर मोठे मोठे देवांचे आनी कसले कसले फोटू

आसले. देवारोय बरोच सजयल्लो. तो चिंतपाक लागलो, पात्रांव देवाचो भक्त आसतलो. हरशींय म्हण तो खूब मायेस्त. पुणून लोक तेका गुंड किद्याक म्हणटात काय?...

"प्रितम चल, भायर वचून जेवन येवया. पात्रांवाचें धड लागना. ती धवेली म्हस हट्टाकूच पेटल्या. झगडें बेगीन निबवत अशें दिसना."

"धवेली म्हस म्हणजे?" दाराक खिळी घालीत तेणेन विचारलें.

"पात्रांवान नवी बायल केल्या. हीऽ ती पळय हांगाच येता. चल चल, पळोवं नाका. या आमी. घरा कडेन बी म्हणशीत आं!"

"आं?" तो तेचे फाटोफाट चलत रावलो. ही धवी म्हस, आनी घरा कडली कोण, काळी गाय? अशें चिंतून तो भितरल्या भितर हांसलो...

केन्नाच तेका थंय येवन तीन म्हयने जाले. त्या लॉजिंगांत चलतले धंदे ना कळपा इतलो तो सामकोच भुरगो नासलो. तरीय तो त्या हॉटेलांतल्या कामगार आनी हेरां परस भुरगोच आसलो. सादारण तेरा-चवदा वर्सांचो तो आपल्या मन-मेकळ्या सभावा खातीर सगल्यांचे आवडीचो 'प्रीत' जाल्लो. कांय अस्तुऱ्यांचो बाबू, कांय जाणांचो धाकलो भाव, थोड्यांचो इश्ट जाल्लो. हेचींय थोडीं दिदी, ताई, मामी बी जाल्लीं. त्या अमंगळ, धोक्याच्या वातावरणांत तो भंय विरयत आसलो. थंय आर्दी किदें घडलेलें आनी केन्ना किदें घडूं येत म्हणपाचो तेका मात्तूय अदमास नासलो. त्या खातीर तेचें सगलें वागप सहजतायेन जातालें. जायतीं गिरायकां तेचे वळखीचीं जाल्लीं. गिरायकाची पारख करपाक तो शिकलेलो. शिवाय खंयच्या गिरायकाक कोण जाय, आनी कोणाक कोण दिवप इतलें तेका कळपाक लागलेलें.

पुणून पात्रांवाक मात दिसतालें, बऱ्या भुरग्याची आपूण वाट लायतां. त्या खातीर तेणेन तेका पयस खंय तरी दवरपाचें थारायलें.

दवलून ही गजाल प्रितमाच्या कानार घातली. तेन्ना तेणेन तोंड वांकडें केलें. तेन्ना दवलू म्हणपाक लागलो,"हे हळशिकेंत रावन हांवेन जिवाची वाट लावन घेतल्या. म्हाजी ही दशा वगीच जावंना. घेतलेलीं वखदां पारनात. एकएकदां जीव दीन जाता..."

"हांवूय तुका तेंच विचारूंक सोदी. आर्दी तूं काय बरो पेलवान सो आसलो, आनी आतां सामको बारीक कसो जालो काय म्हण!"

"ह्या हुलपांत पडलेल्या बेसावध जिवाचो लासून गोबोरूच जाता. त्या खातीर म्हणटां, तूं हे घाणींतल्यान भायर सर. पात्रांव तुका पुता वरी सांबाळटा. तो तुजें कल्याण केले बगर रावचोना..."

इतल्यान अचकीत पांच-स जाण गुंड कशे नेटान येयले. तेंका पळोवन प्रितम भियेल्ले वरी जालो. तें पारखून दवलून म्हणलें, "आमच्याच पात्रांवाचे लोक ते. येयल्या आसतले कसल्याय कामाक. प्रीत,आयज आमी हांगा रावप ना. जेवया आनी भायल्या भायर पिक्चराक या."

ते दिसा ते पिक्चर बी पळोवन रातच्या इकरांक पावले. सदां ह्या वगतार गजबजपी वाठार सामसूम दिसतालो.हॉटेलांतूय कोण दिसनासलो. तेणेन केन्ना तरी आयकल्लें त्या प्रमाण तो दुबावलो, सगल्यांक पुलिसांनी धरून व्हेलीं दिसता. पुणून तशें कांयच जावं नासलें.

पात्रांव रुमांत बसून तेंचीच वाट पळयतालो. ते येयल्या अशें दिसतकीर तेणेन जेवण हाडपा खातीर फर्मायलें. त्या प्रमाण रोखडोच एकटो ताटां घेवन येयलो. इतल्यान झूम-झूम करून दोन-तीन गाडयो येवन भायर रावल्यो.

दवलून भायर वळून पळयलें, "पुलीस!"

रोखडेच पांच-स पुलीस, बायलां पुलीस आनी फोटू काडपी बी रुमांत सरले. थोडे बाकीच्याय रुमांनी पळोवपाक धांवले.

"किदें सायब, किद्याक वगीच आमकां त्रास करता?" पात्रांव उठलो.

"चेडवां खंय?"

"खंयचीं चेडवां? चेडवांय नात आनी बायलांय नात. वगीच हे लोक आमच्या नांवान किद्याय किदें छापतात, आनी एक गिरायक सुदीक आमकां मेळना. मागीर आमी खावचें किदें आनी जगचें कशें? आतां पळयात, ताटां मांडल्यां. त्या ताटांनी किदें वाडचें ही पंचायत."

"तुजें आयकुपाक येवंनात आमी. तांकां खंय लिपयल्यांत, सांग."

"सायबा, तुमकां खबर आसा. तो धंदो बंद करून आतां वर्सां जालीं."

"हे कोण... आनी हो भुरगो कोणालो?"

"ते दोगूय रुमबॉय. हो म्हागेलो." म्हणत तेका पुता वरी लागीं ओडलो.

"आनीक कोण कोण आसात हांगा?"

"आनीक कोण ना. कुशीच्या दोनूय रुमांनी गिरायकां आसात. पुणून तेंचे वांगडा बायलां नात सायब. तेंकां आनी उठोवं नाका, पयसुल्ल्यान येयल्यात ते. देवदर्शन करपाक."

"तांकां उठोवचेच पडटले. चलात रे!"

तशे सगळे पुलीस नेटान भायर सरले. पुणून एकल्याच्या हातीक धरून पात्रांवान फाटीं ओडलो, "आरे, किद्याक वगीच आमची बदनामी करता? किदें सारकें आसा तें छापा मरे. फटकिरेपणां किद्याक करता?"

"आमचो पेपर फट केन्नाच छापिना. आयज तुमकां कोणें तरी सादूर केल्यात म्हणुनच सगळें सामसूम आसा.हांवेन किदें, पळोवंना रे हांगा किदें चलता तें?"

"बरें, सगळें खरें. पुणून एक लक्षांत दवर, कितलेशेच लोक ह्या धंद्यांतल्यान पोट भरतात. समाजांत वाडटली विकृती आनी भायर घडटले कितलेशेच अत्याचार आमी करतले सोये खातीर उणे जातात. गरजेवंतांची भूक भागोवपाचें..."

"तें तूं म्हाका सांगू नाका. आयज ना फाल्यां तुजेर हो धंदो बंद करपाची पाळी -"

तेन्ना पात्रांवान समतेंच तेच्या गोलाक धरलें, आनी दपट्या आवाजान म्हणपाक लागलो, "हेऽ चड शाणेपणां करूं नाका. जितोच पुरतलों. धंद्याचेर पांय दवरूंक सोदतल्याचें आमी किदें केलां, तुका खबर आसतलें!"

पात्रांव चाळवला तें पळोवन तो तेच्या हातींतल्यान सुटून अळंग कडसलो. प्रितम मात थरथरत्या आंगान तेका पळयतूच उरलो.

उपरांत असल्याच ल्हान-व्हड प्रसंगांची तेका संवय जाली. मागीर मनांतलोय भंय आपशींच पयस जालो. थंयच्या त्या रुक्ष वातावरणांत तो परत एकरूप जालो. तेचें चडशें उठप-बसप त्या अस्तुऱ्यां वांगडाच आसतालें. दोगां-तिगां तर तेचीं खास इश्टां कशीं जाल्लीं. तेंचीं खरेलीं नांवां भलतींच आसलीं. हांगा तेंकां चंपा, चमेली, लीली, मोना, सोना अश्या सुटसुटीत नांवांनी

वळखताले. त्या नांवां फाटल्यान मागीर खंयचोच धर्म आसनासलो.

अशेंच एक आसलें लाली. सादारण सतरा-अठरा वर्सांचें. घरचे परिस्थितीक लागून, आनी आपल्या लग्नाक हुंड्याचे पयशे जमोवपा खातीर ह्या धंद्यांत पाविल्लें. लाली तेका आपलो भाव मानतालें, आनी असल्या गजालीं पासून पयस रावपाक शिटकायतालें. पुणून तेका मात बायलांचो सांगात जाय जाय सो दिसतालो. लालीन तेका आपली गजाल सांगिल्ली : पात्रांव तेका घरकामाक म्हण घेवन येयल्लो. पूण तेच्या बापायक सगलें खबर आसलें. पात्रांवान दिल्लो पयश्यांचो कवळो कोणाक दाखयनासतना तेणेन हातरुणार पडलेल्या आवयच्या उश्या पोंदा लिपयल्लो. ह्या संवसारांत कोणाचो कोण नासता. आपणेंनूच शाणें जावप आसता... पुणून तो वाऱ्यार उफेतालो. कोणाचेंच आयकून घेवपाचे मनस्थितींत नासलो.

पात्रांव कामा-धंद्याक लागून आनी नवो नवो 'म्हाल' सोदपाच्या निमतान भायर आसतालो, तेन्ना लॉजिंगांतलो चडसो वेवार दवलूच पळयतालो. पुणून तेच्या दुर्येसाक लागून आतां चडशीं कामां प्रितमाचेर येवन पडलेलीं. त्या खातीर तेका 'छोटा मॅनेजरू'य म्हणटाले. पूण हो मॅनेजर कामां परस हेर गजालींनी चड लक्ष घालतालो. तें पात्रांवाक कशेंच पुटवनासलें. तो हाती भायर वयच्या पयलीं तेका खंय तरी हालोवपाक जाय म्हण तेणेन तेका आपले 'धवेले म्हशी'गेर व्हरून दवरलो. तिका दुसऱ्या एका गांवांत दवरून तेणेन तिका एक मांड घालून दिल्लो. पुणून मनांत तिच्या विशीं आदींच दुस्वास आसलेल्यान प्रितमाचें आनी तिचें पटना जालें. तो रोखडोच परतलो.

हरशीं प्रितमाची कसलीच कटकट आसनासली. पयश्यांचो वेवारय बरो सांबाळटालो. आनी पात्रांवानय पारखिल्लें, हेरां परस हो हिशोबूय नीट दितालो. पुणून पात्रांवाक तेका लॉजिंगार दवरपाचोच नासलो. परत तेणेन तेका घरा कडेन व्हेलो. कोण तरी घरच्या कामाकूय जाय आसलो. शिवाय त्या गांवांत बंद पडलेलें तेचें दुकान तेका परत चालू करपाचें आसलें.

प्रितमाच्या मनांत नासुनूय तो गेलो. सुमार वर्सा उपरांत तो परत त्या घरा कडेन रावपाक गेल्लो. आतां भैरवूय शाणो जाल्लो. घरांतलीं मनशां तेका घरचोच कसो मानतालीं. तरी तेका आपूण परकी हें कळपाक लागलेलें. त्या खातीर तेचें वागपूय बदल्लें. फकत आतां इश्कोलाक वचपाक लागलेलें बाय मात तेका आपलें शें दिसपाक लागलेलें. हेरां परस तो बायकूच चड लागीं रावपाक लागलो. आदले वरी बायूय तेका चड पातयेतालें. मागीर आपशींच हेचें खावप-जेवप, उठप-बसप चडशें बाय वांगडाच जावपाक लागलें.

केन्नाच चार म्हयने सोंपले. पात्रांव असोच एक खेपे रातचो घरा कडेन येयल्लो. जाल्यार भुरग्यांचें वाकुळप तेचे नदरेक पडलें. तें तेचे अणभवी नदरेक कशेंशेंच दिसलें. निश्पाप, सवळ मनाच्या बायक तो एक खेळूच कसो दिसतालो. पूण जायतें पळेल्ली प्रितमाची नदर भलतेंच अणभवूंक सोदताली. पात्रांवाक शिट्ट जालें. तेणेन दुकान मारलें झक म्हणत तेका परत लॉजिंगार व्हरून दवरलो.

अचकीत जाल्ल्या बदलांचो परिणाम जावन प्रितम वगीच सो रावपाक लागलो. तेन्ना तेका लालीन समजायलो. पात्रांव तेचेर बेजार नासून तेणेन सुदारचो म्हण तो तसो वागता म्हणपाचें सांगलें. प्रितम आतां शाण्या वरी वागपाक लागलो. तेच्यांतलें भुरगेपण आपशींच इल्लें इल्लें लिपपाक लागलें.

एका शेटीक तरणो आनी टवटवीत 'म्हाल' तेच्या फार्म हावसार पावोवपाचें काम पात्रांवाचो मनीस करतालो. पूण आतां तेचे भुरगे व्हड जाल्ल्यान तो अर्दी मर्दी हॉटेलार येवन आपलें काम करून वयतालो. केन्नाय 'म्हाल' घेवन खंयीं दुसरे कडेन पिकनिकेक वयतालो. हालींसराक जाय तसलो म्हाल मेळना म्हण शेट कागाळ करपाक लागलेलो. पात्रांवाकय निस्सा बेजार करतालो.

तो म्हणटालो, "आरे, पोसलेले मेंढरेची कोणय शिकार करीत. पुणून रानटी सावजाक मुड्डुवप् चड मर्दपणाचें." अशा ह्या मनशाक सदां सदां जाय तसलो म्हाल मेळप कठीण जाल्लें. हें पेजाद गिरायक दुसरे कडेन वचत म्हण पात्रांवान इतले दीस तेका थातारून दवरिल्लो. खटपटी करुनय जाय तसलो म्हाल मेळना म्हण तोय बेजार आसलो.

इतल्यान थंय प्रितम येवन तेंकां त्या दिवन परत गेलो. शेट त्या गुटगुटीत भुरग्याक पळयत उरलो. मागीर उठून तो चलत वयतना तेची फाटली वट बारीक नियाळपाक लागलो.

"शेटजी, किदें जालें?"

"ना ना, कांय ना. हो भुरगो कोणाचो?"

"किद्याक, किदें जालें?"

"ताका एक दीस आमच्या बराबर धाड मरे."

"च्ये च्ये! शेटजी, असलें किदें चिंतूं नाका आं. तेका हांव म्हाज्या भुरग्या वरी मानतां."

"आं! भुरग्या वरीऽ..." म्हणत तो गालांतल्या गालांत हांसलो. आनी च्या घेवन बेजारून सो गेलो.

पंदरशीन बी केन्नाय येवपी तो शेट अचकीत दुसऱ्या दिसा दनपारचो सो येवन पात्रांव हॉटेलार ना तें पळोवन प्रितमा कडेन दोन गोड गजाली करून तेका किदें तरी काम आसा अशें सांगून आपले गाडयेंत घेवन गेलो.

प्रितमाक शेट घेवन गेला ही खबर रोखडीच पातळ्ळी. चेडवां दिसाचीं चडशीं हॉटेलार आसनासलीं. दुसरे कडेन आसतालीं. दीस हो तेंची सुशेग घेवपाची रात आसतालो. तेका व्हेला हें आयकून चड वायट दिसलें तें लालीक. तें धांवन हॉटेलार येयलें. दोनेक वरांनी तेका रिक्षांत हाडून सोडलो तेन्ना लाली धांवत शें तेचे कडेन गेलें आनी तेची बारीक चवकशी करपाक लागलें.

"प्रीत, प्रीत, खंय गेल्लो तूं? बरो आसा मरे? तुका कांय करूंक बी ना मरे तेणेन? सांग... सांग, प्रीत. उलय मरे. किदें जालें?"

"आगो, पात्रांवाचो फ्रेंड तो. म्हाका किदें करतलो? तेणेन म्हाका एका मोठ्या हॉटेलांत व्हेलो. थंय आमी बरें बरें खाल्लें."

"आयज गेलो तो गेलो. परत बी वचशीत आं त्या हलकटा वांगडा. सामको बाद मनीस तो. किदेंय पिवपाक बी दिल्यार केन्नाच घेवं नाका आं! आनी तो सांगता तें कांयच आयकुंनाका!"

"वगी राव तूं. तसलो मनीस न्हूं तो."

"तो कसलो मनीस तें तुजे परस म्हाका खबर आसा बरें... मांस खावपी आनी आतकोड्यांतली हळशिकूय चोकून खावपी राकेस तो!"

"शीऽ वगी राव! तेणेन तुका व्हरूं ना

म्हण तुज्या पोटांत दुखता दिसता." अशें म्हणत तो आपलेच गुंगेन चलत रावलो. लाली असाह्य जावन परत्या पावलांनी परतलें.

दुसऱ्या दिसाय त्या शेटीन तशेंच केलें.

तिसऱ्या दिसा मात सांजचो सो येयलो आनी तेका आपले गाड्येंत घालून नाच्च जालो.

सांजे पात्रांवाक ही गजाल कळटकच तेणेन आकांत केलो. थोड्यांचेर तापलो आनी अखखी बाटली सोपोवन भायरूच बडबडत न्हिदलो.

दुसऱ्या दिसा दनपारां एक गाडी येवन प्रितमाक पावोवन गेली. तेन्ना तो जागरणाचो सो, नजऽ जाल्ले वरी, झेडपत चलतालो. येयना बराबर समतेंच खाटीर घालून घेतलें आनी न्हिदून सोडलें.

बरो वगत पात्रांव आडनदर केल्ले वरी वगीच आसलो. पुणून चड वगत तेच्यान रावपाक जालें ना. तेका वचून पळयलो. तो सामको पुरो जाल्ले वरी पडलेलो. तेका जेवणाक उठोवपाचो यत्न केलो. पुणून तो उठना जालो. हालयतकीर हांसलेले वरी करीत किद्याय किदें बडबडपाक लागलो. आंगांत चडलेलो जोर पळोवन पात्रांव किदें समजुपाचें तें समजलो आनी कपलार नेट्टान हात मारलो.

इतल्यान दवलू तेका जेवणाचें ताट घेवन भितर सरलो. "दवलू, वट्टेलांवाचो मसालो घालून तेका न्हावपाक उदय तापय आनी..." फुडलें सांगपाची गरज ना अशें चिंतून पात्रांव नेटान गेलो आनी आरमारी पोंदची बाटली काडून समती तोंडाक लायली.

दोन-तीन दिसांनी तो निवळ्ळो. तेन्ना जायत्या जाणांनी तेची खबर घेतली. पात्रांवान तेका बरे बशेन समजयलो. लालीन मात बरोच तापयलो आनी तो शेट कितलो वायट मनीस हें आरतें परतें सांगलें. पुणून हांसलें शें करून तो वगीच रावलो. तेचें मन शेटी विशीं वायट चिंतपाक तयार नासलें. तेका तो देवदुतूच कसो दिसतालो. त्याच खातीर चारूच दिसांनी शेटीन जेन्ना तेका पार्टी आसा म्हण रकाद धाडलो तेन्ना तो कोणाक सांगनासतना वचून पार्टी करून येयलो.

मागीर अश्यो ह्यो पार्ट्यो, बांकेती, पिकनिको आनी भेटो जायत रावल्यो. पार्ट्यांच्या निमतांनी मोठ्यो-बारीक वळखीय जावपाक लागल्यो. भुरगीं रोखडींच शिकतात म्हणटात. होय जायत्यो मनरिजवणेच्यो कला तरेकवार कलाकारां कडल्यान शिकलो. फकत शिकलोना, तरबेज जालो. उपरांत सोताची तकली वापरून आनी सांगात्याची रूच वळखून नवे नवे प्रयोग करपाक लागलो. प्रीत जायत्या जाणांचो प्रियतम जालो.

दीस अशेच वचपाक लागले. आर्दी मजा म्हण करतालो ते खेळ तेचे जोडीचे साधन जाल्ले. हॉटेलांतलो एक रूम तर तेणेन आपले खातीर खास सजोवन घेतलेलो. तो फकत तेकाच मेळपाक येतल्यांचे भेटेक सुगूर करून दवरिल्लो. ते मर्दांचे दुनियेंत नटयां परस हो नट चड लोकप्रीय जावपाक लागलेलो. पात्रांवाच्या गल्ल्यांत तो जायतें घालतालो. पुणून तेणेन तेची वासपुसूच करपाचें सोडून दिल्लें. प्रितमाच्या वळखींक लागून हॉटेलाचेर पडटल्यो धाडी उण्यो जाल्ल्यो. त्याय खातीर पात्रांव प्रितम किदें करता तें करूं म्हणत वगीच रावतालो.

तो रंगेल खेळ खेळटां खेळटां केन्नाच तो वीस वर्सांचो जालो.

पात्रांव सोन्यान आनी चिंतेनय जाम जावपाक लागलेलो. त्या खातीर तेचें घरा कडेन आनी 'धवेले म्हशी' कडेनूय वचप उणें जाल्लें. एक दीस अचकीत 'धवेली म्हस' हॉटेलार येयली, आनी पात्रांवा कडेन वाद घालपाक लागली. तेन्ना अवचीत थंय येयल्ल्या प्रितमाक पळोवन ती आबूज जाल्ले वरी जाली. तेका ती खूब दिसांनी पळयताली. तो आतां एक राजबिंडो तरणाटो जाल्लो. तेची गोरी कात जुवानपणान रसरसताली. ती वाद विसरून तेची अपुरबायेन खबर घेत आपणागेर दोन दीस तरी रावपाक यो म्हण ताका आग्रो करपाक लागली.

पुणून तो गेलो ना. तिची वांकडी नदर तेणेन वळखल्ली. तरी तेणेन आपल्यागेर येवचो म्हण तिणेन आनी दोन पावटी मारल्यो. तेन्ना तिच्या ह्या आपलेपणाच्या आपोवण्याक तो ना म्हणपाक शकलो ना. कांय दिसांनी तो तिगेर गेलो. तिगेले आक्रमक बळजबरी मुकार हेगेलें कांयच शाणपण चल्लें ना. उपरांत अशीत बळजबरी दोन-तिनदां जाली. पुणून होय चार शिसल्यांचें उदक पियेल्लो. ती आपणाक परत आनी त्रास करचिना अशी तिका बुद्द शिकोवन तो परत आयलो, आनी आपल्या वावराक नेटान लागलो.

आतां तेणेन थंयच एक मसाज पार्लर चालू केल्लें आनी गिरायकांचीय खाशेली वेवस्था केल्ली. हरशीं तेका पयश्यांची आस्त अशी नासली. पात्रांवय तेचे कडेन केन्ना पयश्यां विशीं उलयलोना. पूण तेचे कडेन भरपूर पयसो जमतालो. म्होडूय कसली नासली. फकत पात्रांवाचे पयले बायलेच्या दुर्येता खातीर मात तेका अचकीत लाखभर म्होडचे पडले इतलेंच. पुणून ती वाटवली ना. आपणें पातक करून जमयल्ल्या पयश्यांचें वखद तिका पारलेंना, आपणेनूच किदें तरी चूक केल्या अशें चिंतून तो तिच्या मरणाक सुदीक गेलो ना. चार दीस दुख्ख करून पांचव्या दिसा घरच्यांचे खबरीक म्हण गेलो.

त्या हांसत्या खेळट्या घरांतलें तें सुतकी वातावरण पळोवन तो अस्वस्थ जालो. पात्रांव घरा कडेन नासलो. भैरव बाबड्या मुखामळान भायरूच बसलेलो. प्रितमाक पळयतकीच आपशींच तेचें तोंड रडकुरें जालें. प्रितमाक किदें करचें, कांयच येवजना जालें. बरो वगत तेचे कुशीक उबो रावन तेची खबर शी घेतली आनी घरांत सरलो. रांगोळेच्या चवकटे कडेन पेट्टली दिवली पळोवन तेच्या काळजांत चर्रर जालें आनी दोळ्यांनी दुकां भरलीं.

तो तसोच मुकारले कुडींत गेलो. बाय खाटीर गुटली मारून वग्गी बसलेलें. अचकीत प्रितमाक पळोवन दाबून धरलेलो स्वास सुटचो तशें तेचें रडप फुटलें. आनी कोणाच्या तरी आदाराक रावल्ले वरी तें समतेंच उठलें आनी तेका वेंग मारून मोठमोठ्यान रडपाक लागलें. तेन्ना प्रितमाच्यान रावपाक जालें ना. तोय भुरग्या वरी हो हो करून रडपाक लागलो.

बाय आपलो सगळो भार प्रितमाचेर घालून तेचे पागडेंत पुराय विसवल्ले वरी मुसमुसत रडटालें. आतां तें ल्हान नासलें. पंदरा वर्सांचें जाल्लें. आंगान पांगान पुराय वाडलेलें. आवय मेल्ल्यान मातशें चिंतेस्त जाल्लें खरें. पुणून तेची कूड कोणायचीय नदर ओडून घेवपा इतली रेखीव आनी सोबीत आसली. आनी ती पुराय उबाळ कूड प्रितमाच्या घट्ट गोपांत चिड्डल्ली. असले रसरशीत कुडीची ऊब तेणेन केन्ना अणभवूंक नासली. त्या मोहक

स्पर्शान तो बेभान जालो आनी रडप आपशींच विसरलो. आंगूय थरथरूंक लागलें. किदें जाता तेंच कळना जालें.

अचकीत बाय सावचीत जावन कुशीक सरलें आनी आपली किदें तरी चूक जाल्ले वरी मान बागोवन वगीच रावलें. पुणून प्रितमाच्या आंगांत भरलेलो उबेचो तो थरथर उणो जायना जालो. तेच्या तोंडांतल्यान उतरांय फुटना जालीं. तो तसोच भायर गेलो आनी सपणांचेर बसून थरथर निवळायलो. पुणून मन कशेंच थाऱ्यार येना जालें. तेच भिरकेंत उठलो आनी नीट हॉटेलार गेलो.

आतां कामांत तेचें लक्ष लागना जालें. आंगांतली उमेदूच ना जाल्ले वरी तो वागपाक लागलो. आदले वरी गिरायकाकूय तो समाधान दिवंक शकनासलो. तेच्या दोळ्यां मुकार तें टवटवीत मुखामळ उबें जातालें आनी ते उबाळ कुडीची परत परत याद जातकीर तेचें आंग आपशींच शिरशिरतालें. मागीर तो अस्वस्थ जातालो. तळमळटालो.

खरें सूख खंय तरी भलतेच कडेन आसा, आपूण इतले दीस सूख म्हणटालों तो नरकाचोच एक भाग, अशे तरेचें चिंतप तेका येवपाक लागलें, आनी सपनांतल्यान जागो जाल्ले वरी तो अचकीत उठलो. उठलो आनी तें सूख मेळोवपाचें ध्येय नदरे मुखार दवरून नीट म्हाल्यागेर गेलो आनी चेडवा वरी वाडयल्ले केंस मारून बरे बसोवन घेतले. तेची नदर आनी मन आपले वशीं ओडचें म्हण तो किदेंय करपाक तयार आसलो. तेच्या त्या मुखामळाचेर नदर पडची म्हण घरा कडेन तो परत परत पावटी मारपाक लागलो. तेच्या तोंडार हांशें पळोवपा खातीर जायतो खर्च करपाक लागलो. तेका एक स्कुटरूय घेवन दिली.

पुणून पात्रांवाक तेचें वागप आवडना जालें. तो बायक तेचे पासून पयसूच दवरपाचो यत्न करपाक लागलो. तरीय दोगांयचें मेळप उणें जायना अशें दिसतकीच तेणेन बायक पयस तेचे मावशेगेर पावयलें. प्रितमान तिवूय सुवात सोडून काडली. हें पात्रांवाक कळटकीच तेची पायरी आनी लायकी किदें म्हणटा ती दाखोवन तेणेन बाय पासून पयस रावचो म्हण शिटकायलें. बाय आजून ल्हान आसा. शिकपाक हुशार आसा. साद्या भोळ्या बायचो फुडार खंयचेय परिस्थितींत पिड्ड्यार जावपाक दिवंक जायना, आनी अशें किदेंय घडलें जाल्यार आपूण वगी रावचोंना अशी ताकीद दिली.

प्रितमाक तें पटलें. इतले दीस आपूण किद्याक तेचे फाटल्यान लागलेलों हेचेंच तेका अजाप दिसपाक लागलें. तेणेन समतेंच पात्रांवाच्या पांयांक धरलें आनी आपली चूक जाल्या म्हण मान्य केलें.आनी मुकार बायक कसलोच त्रास करचों ना म्हणपाचें उतर दिलें.

प्रितम आतां नशा करपाक लागलो. तेन्ना दवलून तेका जायत्यो गजाली सांगून मार्गार हाडलो. बापायसमान पात्रांवान तेंकां कशे मनीस केल्यात तें पटोवन दिलें. पूण अचकीत दुयेंत चड जावन थोड्या दिसांनी दवलू भायर पडलो. आदीं लाली आपल्या रागान गेल्लें, आतां दवलू. आपुणूच पाड अशें चिंतून तेणें थोडे दीस दूख धरलें. आनी आतां सुदारतलों असो निश्चेव करून पात्रांव सांगता तसो वागपाक लागलो. पुणून निमाणें सुण्याची शेपडी...

ते मजगतीं, बायची इकरावी-बारावी मावशेगेरूच जाली. मुकारलें खाशेलें शिकप घेवपा खातीर तेका दुसऱ्या एका शारांत घातलें आनी ते कॉलेजीच्याच हॉस्टेलांत दवरलें.

हेवटेन प्रितमान आपलें सगलें लक्ष धंद्याचेर केंद्रीत केल्लें. जाय ती वस्त मेळयतलो, सगल्या सुखांक पांयां कडेन हाडटलो जाल्यार आपले कडेन भरपूर पयसो आसपाक जाय हो विचार तेच्या मनांत पक्को जाल्लो. त्या खातीर तो मोठ्या गिरायकांचेर नदर दवरून आसतालो.

तेणेन एक नवी कार घेतलेली. ती घेवन तो पात्रांवागेर गेल्लो. त्याच दिसांनी बाय सुटयेंत घरा कडेन येयल्लें. तेणेन कार समतीच भितर घेतली आनी नेटान मिठाई घेवन देंवलो. बाय निकतेंच न्हावन तुळशीक पांयां पडयलें. तेन्ना दोगांयची नदरानदर जावन तीं कांय खीण एकामेकांक पळयतूच उरलीं.

सांवळ्या रंगाचें पूण नितळ कातीचें, आंगान पुराय भरलेलें आनी तेजाळ दोळ्यांचें बाय पळोवन तो चक्रावलो. इतली सुंदर अस्तुरी आपूण पयलेच फावट पळयतां अशें ताका दिसलें.

इतल्यान गाडयेचो आवाज आयकून भायर सरलेल्या भैरवाचीं उतरां कानार आपटना बराबर तो भानार येयलो, "आरे, तुका तें काळेंलें तोंड घेवन हांगा येवं नाका म्हूण सांगलेलें मरे. तुजे किदें धंदे आसात ते भायर कर. हांगा घरा कडेन येवन आमचें नांव पिड्ड्यार करूं नाका!"

"नवी गाडी... हांव पेडे घेवन येयल्लों..." अशें म्हणून तो एक बॉक्स उगडून बाय वशीं गेलो. पुणून तें तकली सकयल घालून नीट घरांत गेलें. तेन्ना प्रितमाक किदें करचें, कांयच कळना जालें. थोडो वगत चिंतलेंशें करून मिठाई पडवेरूच दवरून येयल्लो तसो लज जाल्ले वरी जावन परतलो.

'हो आपूण खाप्री आसून म्हाका काळ्या तोंडाचो म्हणटा. खबर आसा, हो किद्याक फडफडटा तो. हांवेन गाडी घेतल्या म्हण हो जळटा. हांवेन दिल्ली स्कुटर बरी चलयता आजून!' असो बडबडत तो नेटान वयतालो. पूण अचकीत कसली तरी याद जाल्ले वरी मदींच रावलो.

'आरे, तेणेन म्हाका हटकुना तें हटकुना. हांवेनूय तेका उलो केलोना. किद्याक? भैरवाच्या भंयान. ना. तेका कोण भियेता? असोच वयतां आनी बायक मेळोनूच येतां. पुणून नाका. पात्रांवाक कळत जाल्यार तेचो प्रेशर वाडटलो. सद्या तो चारूय वटांनी अडचणींत सापडला. म्हाका लागून आनी ॲटॅक येयत... च्ये! आतां किदें करूं?"

किदें करचें, कांयच ठरनासलें. काळीज वगीच धडधडटालें. जिवाक किदें जाता, कांयच कळनासलें. तकली गियेर दवरून वगी रावलो. पुणून कसलोच थार मेळना जालो. दोळ्यां मुखार निस्सां एकूच चित्र घुंवपाक लागलें. बायचें सोबीत मुखामळ आनी रेखीव सौंदर्य. आतां आपूण तेचे बगर जगुंकूच शकना अशें तेका दिसपाक लागलें. इतले दीस चिड्डून उरलेली भावना आपशींच खतखतून वयर येयली. आयज पयलेच फावट तेका आपलें आनी फकत आपलेंच अशें कोण तरी दिसलेलें. जेणें तेचें काळीज काडून घेवन तेका निर्जीव केल्लो. पुणून तो तेका मेळपाक शकनासलो, मनांतलें सांगपाक शकनासलो, दोळे भरून पळोवपाकूय शकनासलो...

दोन-तीन दीस तेचें किद्यांतूच लक्ष लागना

*(पान २६ चेर)*

# *नवी शाळा* आनी *दिसा सपन* : एक तुळा

-डिफा फेर्नांडीस

रवीन्द्र केळेकार एक सर्जनशीळ लेखक. निबंद तांचे आवडीचो साहित्य-प्रकार. पूण निबंदा वांगडाच तांणी अणकाराच्या आनी रुपकाराच्याय मळार तोलामोलाचो वावर केला. ह्या लेखांत तांच्या *दिसा सपन* (२००० अणकार) आनी *नवी शाळा* (१९६२ रुपकार) ह्या गुजराती लेखक आनी शिक्षणशास्त्रज्ञ गिजुभाई बधेका हांगेले दिवा स्वप्न एकेच मूळ कृतींतल्यान जल्मल्ल्या दोन पुस्तकांतल्यान तांच्या ह्या योगदानाचो थाव घेवपाचो यत्न केला.

*दिसा सपन* पुस्तकांत एक काल्पनीक गजाल आसा. हातूंतलो मास्तर - लक्ष्मीराम - चवथेच्या विद्यार्थ्यांचेर शिक्षणाचे नवे नवे प्रयोग करता. धोकमपट्टी आनी भिरांत घालून शिकोवपाचे आदले शिक्षणीक परंपरेक आव्हान दिता. अभ्यासक्रमांत आशिल्ल्यो आनी नाशिल्ल्योय गजाली तो विद्यार्थ्यांक शिकयता. तांचे कल्पनाशक्तीक फुर्डे येवंक दिता. तांची सर्वांगीण वाड करपाक तो वावुरता.

अणकार म्हळ्यार स्रोत भाशेंतली साहित्य-कृती मोख भाशेंत हाडप. हांगा अणकारपी स्रोत आनी मोख भासां मदलो मध्यस्त जाता. अणकारतना स्रोत भाशेंतली कृती जाता तितली तश्या तशी मोख भाशेंत व्हरपाचो तो यत्न करता. अणकार ही सर्जनशीळ प्रक्रिया मानतात. कारण, एके भाशेंतल्यान दुसरे भाशेंत अणकारतात तेन्ना अणकारप्याचो कस उतरांच्या वेंचपाचेर लागता.

रुपकार म्हळ्यार स्रोत भाशेंतली साहित्य-कृती मोख भाशेंत घालप, आनी मोख भाशेंत घालतना तिचेर भाशीक वाटाराचो संवकळीचो भेस चडोवन म्हत्वाचे प्रसंग उबे करप. रुपकार करप्याचो कस तो तो प्रसंग 'भोंवतणचो' करून दाखोवपांत लागता.

रवीन्द्रबाबांनी *दिवा स्वप्नाचो* रुपकार करतना तातूंतले प्रसंग बेस-बरे तरेन फुलोवन रंगयल्यात. सांगपाची गरज ना, कोंकणी समाजाक दोळ्यां मुखार दवरून हो रुपकार केला. कोंकणी वाचप्यांचे वळखीचे, संवकळीचे प्रसंग काळाक धरून उबे केल्यात. गोंयकारांचो, गोंयचो भेस मूळ बरपाक चडयला. देखी:

''आशिया खंडांत आमचें हिन्दुस्तान खंय आसा तें दाखयलें. हिन्दुस्तानांत काठी लोकांचो काठियावाड आनी काठियावाडांत आमचें भावनगर खंय तें दाखयलें.'' हीं वाक्यां अणकारीत *दिसा सपन* पुस्तकांत आयल्यांत. ह्याच वाक्यांचेर रुपकारांत थळावो भेस तांणी अशे तरेन चडयला: ''मागीर आशिया खंड खंय, आशियांत हिन्दुस्तान खंय, हिन्दुस्तानांत गोंय खंय आनी गोंयांत आमचो गांव खंय हें दाखयलें.'' गोंयची सैमीक सुंदरकाय नियाळून आनी गोंयकारांचें सैमा विशींचें गिन्यान मतींत दवरून तांणी रुपकारांत ताचो उपयोग केला. अणकारांतलें एक वाक्य अशें आसा - ''कोडू लिंबवाचीं तशीं पिंपळाचीं पानां हाडून, तुळशिचीं कणसां, सदाफुली आनी हेर तरांचीं फुलां हाडून वर्ग सजयलो.'' जाल्यार रुपकारांत हें वाक्य अशें आयलां - ''आंब्याच्यो कांय ताळयो, पिंपळाचीं पानां, केळिचीं बोंडां, हाते, फुलां, फळां बी हाडून भोंवतणीं दाळून दवरलीं.''

वाचप्यांक कसलीय नवी गजाल संवकळीची करून सांगल्यार ती तांकां अदीक आवडटा, आनी अदीक बरी समजता. ते भायर, खबर आशिल्ल्या गजालीं कडेन तो 'आपलेपणा'न पळयता. हेंच आपलेपण रवीन्द्रबाबांच्या रुपकारांत आयलां. भावनगर वाटाराक कोंकणी वाचपी व्हडलींशीं वळखनात. पूण नागपूर सगळ्यांचे वळखीचें. ही वळख आनी वाचप्यांचें देशांतल्या वाटारां विशींचें गिन्यान पारखून तांणी रुपकाराक न्याय दिला. देखीक, *दिसा सपन* पुस्तकांत अशें मेळटा:

हांवें एका भुरग्याक म्हळें, ''भावनगर दाखय खंय येता तें...''

तो मुंबय इलाक्याचो नक्सो सकल वयर पळोवपाक लागलो. ताका मुंबय मेळ्ळी. अहमदाबाद मेळ्ळें. हैदराबाद मेळ्ळें. सकल पुणें मेळ्ळें. परतें वयर पळेलें. पोरबंदर मेळ्ळें. रुपकारांत हें अशें मेळटा :

''बरें तर, नागपूर खंय आसा तें दाखयात,'' हांवें सांगलें. भुरगीं नागपूर सोदूंक लागलीं. मुंबय दिसली, दिल्ली दिसली, कलकत्ता दिसलें. सकल पळेलें, कोचीन दिसलें, बंगळूर दिसलें, म्हयसूर पळेलें. नागपूर मेळना. दोळे चारूय वाटांनी धांवंक लागले. फाटल्यान दोग जाण भुरगे आशिल्ले. तांणी नागपूर सोदून काडिल्लें. तांतल्या एकल्यान 'हें पळे नागपूर' करून तें दाखयलें.

रवीन्द्रबाबांलो प्रवासाचो अणभव आनी भारत देशाच्या वाटारांचें गिन्यान तांच्या रुपकारांतल्यान उकतें जाता.

आमचे जाणटे तरातरांचे खेळ खेळटाले. गांवांतले भुरगे वेगवेगळ्या तरांचे गांवठी खेळ खेळटाले. अंतकडीचो खेळ, भेंडी-भेंडीचो खेळ, आदी. वयर दिल्ल्या खेळां मदलो गोंयकारांचे संवकळीचो खंयचो? पळोवया. अणकारीत प्रसंगांत 'अंतकडीचो खेळ' आयला. एकल्यान कवितेचें एक कडवें म्हळें, ताच्या निमाण्या अक्षराक धरून दुसऱ्यान दुसरे कवितेचें म्हळें, अशें आयलां. जाल्यार रुपकारांत 'भेंडी-भेंडीचो खेळ' आयला. ''भुरग्यांक वांटकुळीं बसयलीं. एकल्यान एक कविता म्हळी. हे कवितेच्या निमाण्या अक्षरान सुरू जावपी दुसरी कविता दुसऱ्यान म्हळी'' अशें आयलां.

रवीन्द्रबाब आपल्या पुराय जिवितांत कोंकणी भाशेक वयर काडपाक वावुरले. जाणीवपूर्वक तांणी कांय कामां केलीं. आपली सृजनशक्त उकती करतना कोंकणी भाशेक सदांच वयर काडली. ''म्हळें, भुरगे काणयो आयकताले. तांकां त्यो आवडटाल्यो. काणयांतल्या पात्रांकडेन ते एकजीव एकरूप जाताले. सगळें तांणी आपलें केल्लें आनी तेंच तांणी उलोवन दाखयलें.'' हीं वाक्यां अणकारीत, जाल्यार रुपकारांत होच संवाद दितना तातूंत कोंकणी भाशेचो कृतींतलीं उल्लेख आयला: ''हांवें सांगलें : तांणी काणी आयकल्ली. तांकां ती मानिल्ली. काणयेंतल्या पात्रां कडेन तीं एकजीव जाल्लीं आनी त्या भायर भासूय तांची निजाची कोंकणी आशिल्ली हाका लागून तांवें काम बरें जालें.'' प्रसंग, ताचो अर्थ तश्या तसो सांबाळून तो संवाद अदीक थळाव्या रंगान तांणी भरला.

''आकांताचें व्हड एक रान आशिल्लें. रानांत भिल्ल रावताले. एक एकलो आंगान येद्दो. तीर मारपाक फिशाल. उडट्या शेवण्याक लेगीत सकल उडोवपी... रानांत एक खोंप आशिल्ली.'' हीं वाक्यां अणकारांत आयल्यांत. भिल्ल म्हळ्यार कोण? ते आदिवासी. हे आदिवासी लोक गोंयकारांक परकी. गोंयकारांचे वळखीच्या लोकांचो उपयोग करून रवीन्द्रबाबान रुपकार कसो केला तो पळयात :

''एक आशिल्लें रान. आकांताचें दाट. मोटे मोटे रूख आनी तातूंत वाग, शींव रावताले. त्या रानांतले मनीसूय लांब रुंद. बाण मारताले तो असो की वयली घोणूय सकल पट्टाली.'' घोणी आमी पळयल्यात आनी लांब रुंद मनशांकूय पळयल्यात. रुपकार म्हळ्यार भाशीक वाटाराक तें साहित्य संवकळीचें करून दिवप न्हय? तशें तें करून दिवपाक रवीन्द्रबाब सफल जाल्यात. कित्याक, वाचप्यांचे ज्या गजालींची 'आडखळ' जावं येता त्यो तांणी अचळय कुशीक काडून दवरल्यात.

''क्रमीक पुस्तकांतल्यान हेर गजालीं भाशेन धर्माच्योय गजाली दिवच्यो. पुराणांतल्यो वा उपनिषदांतल्यो वेंचीक काणयो दिवच्यो. इतिहासीक म्हा-पुरसांचीं जिवितां सांगतात तशीं संतांचींय जिवितां सांगचीं'' (दिसा सपन); ''आमच्या क्रमिक पुस्तकांनीं आमी इतिहासांतल्या व्हड व्हड मनशांच्यो जिणो दितात. तशो संतांच्यो जिणोय दिवंया. बुद्ध जयंती, ख्रिस्त जयंती, कृष्णाष्टमी सारकेले कांय उत्सव शाळांनी करुंया'' (नवी शाळा) आमी कितेंय खावया म्हणचे बदला आमी भेळपुरी खावया म्हणल्यार रूच सुट्टा. आमी भेळपुरी आवडीन खातात. तशेंच वाचप्यांक ''इतिहासीक म्हा-पुरसांचीं जिवितां'' म्हणचे बदला रुपकारांत रवीन्द्रबाबान ''बुद्ध जयंती, ख्रिस्त जयंती, कृष्णाष्टमी'' हे उत्सव शाळांनी करून संतांच्यो जिणो दिवया म्हण सांगलां. वाचप्यांचे अदीक लागीं ते गेल्यात.

ह्या रुपकाराक थळावो रंग दिवपाक रवीन्द्रबाबान नळा बदला बांयचो वापर केला. अणकारांत ''शाळेच्या कम्पाउंडांत नळ आशिल्लो'' मेळटा आनी रुपकारांत ''शाळेच्या आंगणांत एक बांय आशिल्ली. राजू आनी कळसुली शाळेंत आसताली'' मेळटा. अणकारांत ''कोळी जात बापायची'' मेळटा आनी रुपकारांत होच कोळी बापूय 'कुणबी' जाता.

रुपकारांत जशे प्रसंग फुलोवन सांगपाक मेकळीक आसता तशें मातयेंतल्या मुळा कडेन हाडपाक सुत्राक धरून आपली कल्पना, विचार भरसवपाकूय मेकळीक आसता. हे मेकळिकेचो फायदो कोंकणीच्या हिता खातीर घेवन तांणी आपलो विचार रुपकारांतल्यान वाचप्याक दिला. हीं वाक्यां अणकारांत नात :

''आज मेरेन हे शाळेंत मास्तर भुरग्यां कडेन मराठींत उलयत आयिल्ले हांव कोंकणींत उलयलों.'' कोंकणींतल्या उतारांचे गिरेस्तकायेचीय गवाय रुपकारांत मेळटा.

''हांवें आरंभाक तांकां कोंकणी भाशेंतलीं घरावीं उतरां सांगूंक सांगलीं; देखीक, नुस्तें म्हळें की तांचे वळखीच्या सगळ्या नुस्त्यांचीं नांवां सांगूंक लायलीं - बांगडो, ताल्लो, धोडयारो, मुड्डशी, शेंवटाळी, खरचांडी, कल्ली, कुल्ली, सुंगट, वागी. भुरगीं याद करूकरून नांवां सांगतालीं. उपरांत हांवें 'माड' हो शब्द घेतलो आनी ताच्या संबंदांतलीं नांवां सांगूंक लायलीं. नाल्ल, आडसर, चुडत, कट्टी, सोण्ण, कातली, मारांदो इत्यादी...''

गोंय मेकळें जालें तेन्ना कोंकणी शिक्षणाच्या मळार घोळपाक लागतली अशें आमच्या म्हालगड्यांक दिशिल्लें. रवीन्द्रबाब हे खातीर वावुरिल्लेय बी. गोंया मुखार 'नवे शाळे'चें सपन तांणी दवरिल्लें अशें म्हणूं येता.

निबंद जांव रुपकार, रवीन्द्रबाबान कोंकणी साहित्याक ऊंच पांवड्याचें साहित्य दिलां. कोंकणी साहित्य गिरेस्त करपाचो जाणीवपूर्वक यत्न करून कोंकणीक ज्ञानपीठ पुरस्कार मेळोवन दिला. आयज रवीन्द्रबाब प्रत्यक्षांत आमचे मदीं नात तरीय आपल्या साहित्यांतल्यान ते सगळ्यांक मार्गदर्शन दीत आसात.

संपर्क: ०९७६४३९५३३३



# उजवाडाचे सूर दोळ्यांत भरतना...

**-जॉन नोरोन्हा**

सैम रवीन्द्र केळेकारांतल्या तत्वगिन्यान्याक आनी रसिकाक जाग हाडटा. *उजवाडाचे सूर* ह्या निबंदां झेल्यांत रवीन्द्रबाबांचीं हीं दोनूय रुपां पळोवंक मेळटात. ''सैमांतलो खंतिचो सूर'' ह्या निबंदांत सैम मनीस जातीक उलो मारून सांगता, ''पापयांनो मात्शे म्हाका पळयात... तुमचे सगळे प्रस्न म्हाका पळयल्यार सुट्टले.'' हो उलो रवीन्द्रबाबान निश्चितूच आयकल्लो. पूण तो आमच्या कानार पडटा? आयज संवसार वेगान बदलता, तितलो मनिसूय बदलता. आयचो मनीस आपल्या वावरांत इतलो घुसपल्लो आसता की ताका दुसऱ्या मनशा कडेन इश्टागत करूंक वेळ नासता. मागीर तो सैमा कडेन कसो इश्टागत जोडटलो? आयचे शिकिल्ले तरणाटे शेतांतल्या उदकांत पांय दवरूंक लजतात. तांकां हें काम उणाकपणाचें दिसता. मातयेक पयसावल्ल्यांक सैमाचो उलो कसो म्हूण आयकूंक येतलो? ''झाडां मनशां परस चड मायेस्त आनी मनशां परस सुंदर. बुद्धाक बोधिप्राप्ति जाली ती झाडाच्या मुळांतच,'' रवीन्द्रबाब सांगतात. ''उजवाडाचे सूर'' ह्या निबंदांत चान्न्याचे रातीं माडा मुळांत एकामेकांच्या खांदार हात घालून बशिल्ल्या मोग्यांक ते सांगतात, ''सगळ्यांक चान्न्याचें पिशें कित्याक, हांव नकळं. मोग करपाक वोत कितें थोडें सुंदर?'' चान्न्याचे सुंदरकायेक आमी सगलीं तोखेत आयल्यांत. वोताची सुंदरकाय वळखूंक मात कवीची नदर जाय आसता.

''सुंदर आसता ती वस्त सुंदर दिसता हें खरें न्हय. जी तुका कुरूप दिसता तिचेर तूं मोग करशीत जाल्यार तीय तुका सुंदर दिसपाक लागतली,'' ते सांगतात. मोग 'भायली' सुंदरकाय पळेना, 'भितल्ली' सुंदरकाय पळेता. मनशा कडेन वा वस्तू कडेन पळोवपाचो आमचो दृश्टिकोण बरो आसूंक जाय. आमच्या दोळ्यांतूच चिखल भरिल्लो आसत जाल्यार आमची नदर सरळ आसचे बदलाक वांकडी-तिकडी आसतली. तशेंच, आमच्या जिवितांतल्या खंयच्याय व्हड प्रस्ना कडेन आमी दुर्बळकायेन पळयलें जाल्यार ताचे आड झुजपाची आमची शक्त पुरायेन काबार जातली. देखून खंयच्याय प्रस्ना कडेन धिटायेन पळोवपाचें आनी ताका जाप सोदपाची. ''मोल फळाक ना, यत्नाक आसा.'' वावर केले उपरांत तुका ताचें फळ कितलें मेळ्ळां. ताचे परस तुवें कितलो यत्न केला तें अदीक म्हत्वाचें. फळा फाटल्यान लागऽ नासतना यत्न करीत रावप गरजेचें. ''मनान तूं जाणटो जाल्लो आसशीत जाल्यार ल्हान पिरायेरूच तूं म्हातारो जाता, आनी मनान तरणो आसशीत जाल्यार उतार पिरायेरूय तूं तरणोच उरता.'' आमी सगळे जाणात, आमी सगळें पळेलां - ही जाणविकाय आमच्या मनाक जाणटें करता. तिका भायर काडून तिचे सुवातेर तरणेपणाचें - 'कविते'चें बीं रोंपची गरज आसा.

''संतुश्ट जिविता खातीर'' ह्या निबंदांत भुरगेपणांतले आनंद भुरगेपणांत, तरणेपणांतले आनंद

तरणेपणांत आनी जाणटेपणांतले आनंद जाणटेपणांत भोगपाची आमी तयारी दवरूंक जाय ही शिकवण मेळटा. जाणटेपणाक तेंकतकच हेरांचेर शीण करपाचे न्हय. भुरगेपणांत आनी तरणेपणांत जिवितांत बरें काम केलें जाल्यार जाणटेपणांत तू प्रसन्न आसता. दुसऱ्यांक दुशणां दिवपाची वा हिणसावपाची गरज पडना. पंचवीस ते पन्नास हे पिराये भितर मनीस कुडीन तसोच मतीन घटमूट आसता. नांव आनी पयसो जोडपाचो काळ हो. ''तूं आतां भुरावळ जाला'' ह्या निबंदांत मनीस भुरावळींत भरसून वतकच तिचे भितर कशे तरेन शेणटा आनी कश्टान जोडिल्लें आपलें अस्तित्व कसो वगडावन बसता तें दाखयलां.

रवीन्द्रबाबान कोंकणीक खूब दिलां. कोंकणी भाशेक ज्ञानपीठ मेळोवन दिवन तांणी कोंकणी मनशाच्या मनांत आशिल्ली कोंकणी विशींची उणेपणाची भावना ना केल्या.

आयज संवसार वेगान बदलत आसा. कोंकणी ह्या बदला मुखार तगतली जाल्यार तिचे भितर कोंकणी समाजाची भूक भागोवपाची तांक आसूंक जाय. आयच्या वाचकांक विशिश्ट तरेचें साहित्य वाचूंक आवडटा. तातूंत वर्तमान काळांत घडटा त्या गजालींचो आसपाव, तांचें विश्लेशण आसूंक जाय. देखीक, हालींच दिल्लीक एक मनीसपणा भायली घडणूक घडली. तिचेर कांय जाणांनी लेख आनी कविता बरयल्यो. असलें प्रतिक्रिया दिवपी, समाजाचो विचार करपाचो पांवडो वाडोवपी साहित्य कोंकणींत खूब प्रमाणांत तयार जावंक जाय. तरणाट्यांनी ह्या संवादांत वांटो घेवंक जाय. अशें घडटा तेन्ना भाशेचें साहित्यीक मळ जिवाळ जाता.

दुसरी बाजू पळोवची जाल्यार, आयज युवक आनी संगणक हांचें भोव दाट नातें आसा. मनीस प्राणवाय नासतना रावंक शकना तेच तरेन आयचो तरणाटो संगणक नासतना रावंक शकना. कोंकणी भास वयर सरतली जाल्यार सगळ्यांनी एकठांय येवन संगणकाच्या मळार कोंकणी पावोवपाचो वावर करचो पडटलो. आमी फकत ''कोंकणी संगणकांत पावोवंक जाय... कोंकणी संगणकांत पावोवंक जाय...'' म्हूण बोवाळ केलो जाल्यार ती आपशीं संगणकांत पावची ना. कोंकणी तरणाट्यांनीच हे जबाबदारीक खांद मारचो पडटलो.

'कोंकणी भास संगणकांत कित्याक पावली ना?' हो प्रस्न आमी समिक्षेच्या मळार बरप करपी किरण बुडकुले वा प्रियदर्शिनी तडकोडकार, तशेंच माधव बोरकार वा रमेश वेळुस्कार वा दिलीप बोरकार ह्या साहित्यकारांक विचारूंक शकनात. कित्याक, संगणक वापरपाचें भाग्य तांकां खूब उसरां मेळ्ळां. आमी मतींत दवरूंक जाय - फाल्यां जी पिळगी येतली ती ह्या संबंदान आमकांच प्रस्न विचारतली. तेन्ना तांच्या प्रस्नाक आमचे कडेन जाप आसतली मूं? एक फावट कोंकणी भास संगणकांत पावली म्हणटकच ती केन्नाच मरची ना. रवीन्द्रबाबान कोंकणी भाशेक ज्ञानपीठ मेरेन पावयली. आमी कितें केलां काय आमचे भाशे खातीर? ह्या प्रस्नाक जाप दिवंक आमी तयार जावया आनी कोंकणी खातीर आमचें योगदान दिवंक पावल मारुया.

दिलीप बोरकार हांणी आपल्या एका भाशणांत म्हणिल्लें, ''कोंकणी भाशेक ज्ञानपीठ पुरस्कार मेळ्ळो, पूण इतल्यानूच सोपूंक ना. आजून नोबॅल येवपाचो आसा आनी तो तुमचे मदलो कोणूय हाडूंक शकता.'' एकठांय येवया. उजवाडाचे सूर दोळ्यांत भरून घेवन हातांत हात घालून कोंकणी खातीर वावरुया.

संपर्क: ९०४९६९६६६२



---

*(पान २१ वयल्यान)*

जालें. जेवण-खाणय चलना जालें. फकत सोरो जाय जाय सो दिसपाक लागलो. तेन्ना पात्रांवान तेचो अवतार पळोवन आनी तोंडांतलीं उतरां आयकून तेचेर दोन फुलयलीं. खरें म्हणजे पात्रांवान तेका पयलेच फावट हात लायल्लो. पुणून तेका अक्कल येयलिना. पात्रांव हॉटेलार जाल्यार तो मेळटा थंय तापट जावन पडपाक लागलो. अशें सदचेंच जावपाक लागलें. प्रितमान लॉजिंग केन्नाच सोडलेलें...

आनी एक दीस किदें तरी येवजून तो समतो पात्रांवागेर गेलो. तेन्ना बाय खंय तरी वचपाक भायर सरलेलें. तेका पळोवन तेणेन गाडी वाटेरूच थारयली. आनी तें खंय वयता तेचो अदमास घेवन तेका स्टेशनार व्हरून सोडटां म्हण सांगलें.

तेचे गाडयेक दोन तीन चेपां पडलेलीं. तेचो अर्दझाको अवतारूय पळोवपा सारको नासलो. बाय मुकार चलत रावलें.

''आगो आगो रावगो, म्हाका तुका किदें सांगपाक जाय...''

तरीय तें थारलें ना. चलत रावलें.

तें पळोवन तो बेगीबेगीन देंवलो आनी तेचे फाटोफाट नेटान चलपाक लागलो. तेन्ना तेका कोणें तरी हटकिलो, ''आरे, अञ्य, गाडयेचें दार तरी धांप मरे!'' पुणून तो तें कानामनार घेयनासतना समतो बाय कडेन पावलो, आनी तेच्या हातीक धरून तेका थारयलें, ''एकूच मिनीट राव!''

तेन्ना तेणेन तेचो हात झेडपिलो आनी परत चलपाक लागलें. तेणेन तेका मुकार आड रावन आडयलेंच.

''म्हाका तुका किदें सांगपाक जाय - म्हणजे हांव...''

''किदें!''

''म्हणजे हांव तुजे कडेन - ना म्हणूं नाका...''

''किदें?''

''लगीन!''

''किदें?!''

''हय. हांव तुजे बगर जगुंकूच शकना!''

''हां!!''

''ना म्हणूं नाका, हांव मरतलों.''

''आरे, किदें उलयता तूं? चेडूं चेड्या कडेन लगीन जाता. बायल-मनशे कडेन न्हूं!''

''आं?''

''आनी तूं कसले तरेची बायल तें सगल्यांक खबर आसा!''

''आं!''

''हलकटा, दादल्यांक पिशें लायता तसो म्हाका लावंक सोदता? हस्स्!'' अशें म्हणून रागान सो तेका धुकल्ले वरी केलो आनी नीट वचून सुट्टले गाडयेंत बसलें.''

''!!!''

संपर्क: ०९४२०९७९०१०



सत्ताविसावी खिस्त

## दिसपटी

शांताराम आमोणकार

# सुवार्थ म्हणजेच अस्तित्व

**सोमार १.१.१९५१.**

आ आज एक ज्यानेर. नवें वर्स. आमचें न्हय, म्हळ्यार सगळ्यांचेंच जालां तें आतां.

**शुक्रार ५.१.१९५१**

आज लक्ष्मण पै आनी विष्णु नायक म्हजे सरीं आयिल्ले. पैक खंय Indian Nationality Certificate जाय. ताच्या घरा कडेन फाल्यां आयतारा दीस वचप.

**शेनवार ६.१.१९५१**

डायरी सदांच बरोवप जमना. तशें कितें सदांच करप जमता म्हाका? नेम म्हणटा तो नाच. सगळें वाऱ्यार! आज आसा, फाल्यां ना! लोक मात मजा ती हीच समजतात. शांत्या सारको चिकाटेन वावुरपी मनीस ना... संवसारांतले शंबरांतले णव्याण्णव मनीस वेल्या देखाव्याक भुलपी ना जाल्यार भुजपी तरी. तांचीय चूक ना तातूंत.

पयर सदा म्हणटा, मुंबयंत येवन खरो फायदो काडलो तुवें! मनांत म्हळें, जाणें ताणें मुंबयंत येवन आपलें रिकामें मडकें भरलें. हांवें मात बऱ्या मडक्यांतलें अर्द वोतयलें आनी त्या बदला मेळयलें कितें? त्या बदला जें भरलें ताचें मोल लोकाक, म्हाका न्हय!

...इव्वायग सांगता तें फाल्स न्हय : मनीसपण वगडायलें. पयलीं येवरोपी राजकारणी खांपऱ्यांच्या राज्यांनी वचून तांचें सर्वस्व खाताले आनी त्या बदला तांच्या कपळार घालताले रंगीत मणी, तांबडे कुडके आनी शालां. दोगय जाण आपापले परीन धादोशी आसताले. तशीच आमची गत. भांगराच्यो चार म्होरो जमल्यो, बोल्सांतलें पाकीट अर्देशें भरलें, आंगार जाय तसो कपडो दिसपाक लागलो, मातसो सो शिकलो जावं इल्लोसोच अधिकार मेळ्ळो जाल्यार ओल्लेंतय धरना, सुपांतय धरना म्हणटात तशी गत. मागीर आमी कोणाक वळखनात.

आनी अशा वेळार देवाची सासाय मात तरी जाणवता. मनांत येता, ही रोगराय, हीं नश्टीं दुयेंसां, नाका आशिल्लीं संकटां, तरातरांची उणेपणां तुवें मनशाक मुदयेर थीक कशीं दिल्यांत. ताचें मनीसपण जागें जावपाक. मनीसपण लिंप्प ना जावचें न्हय म्हणून. तुजी याद जावची म्हणून. पांयां कडेन नदर वचची म्हणून. तकली नम्रतायेच्या भारान बागोवची म्हणून. सगळी इतली तुजी करणी. तूं कांयच करिना. जो तो आपल्या कर्मान मेळयता. तूं आसा म्हळ्यार आसा, पणून तूं ना म्हळ्यार तेंय बगलांट न्हय. जो सगळे कडेन आसा तो खंयच ना म्हणटात.

मनीस मात आपल्या सुवार्था खातीर, आपल्या धिरा खातीर तुका मानता. तूं आसा म्हणटा. जे

कोण तूं ना म्हणटात, तांचे पोले फोडटा, आनी आपल्याच मनांत तुज्या संबंदान संशय उबो रावल्यार आपले पोले फोडुंकूय उणें करिना. मनीस सुवार्थी. आनी, सुवार्थ म्हणजेच अस्तित्व. 'आसा' ताका सुवार्थ आसतात. ना ताका कांयच ना!

...एकेक दीस ब्रम्हांड येवजता. पेन झरझरीत बरवता. येवजुचेंच लागना. हाकाच देवभोळे म्हणटात, देव बरयता, मनीस बरयना...

मनांत म्हळें, शांत्याक मोल आसा... अभिमान जालो ना. पणून तोय एक सत्य. तोय आसताच मनशाक. ना म्हळो म्हणून ना जायना.

बरोवंक वतालों एक, बरवलें तिसरेंच!

आज डायरी बरोवपाचें कारण : खुबश्यो गजाली आज पर्यंत केल्यो. पणून एकेक लागून सगळें फुकट. रॉमां रॉलांची आतां मात याद येता - ज्यां क्रिस्तॉफाच्या तोंडांत सोबीत उतरां घालता तो : But they lacked one virtue which is capital , and is the charm of life : the virtue of silence. तेंच जाय.

पूण जाय जाय म्हळें म्हणून कितें मेळटा? ताचें मोल दिल्यार तें मेळत. दुसऱ्याक भरभर करून उलोवप, आपलीं शाणेपणां दाखोवपाक दुसऱ्याचीं पिशेपणां पयलीं दाखोवप, हाचें ताका करप, कसलेंय गुपीत दुसऱ्याक सांगप, दुसऱ्याच्या उतरांक आपलोच अर्थ दिवप! चल्लां हें सदांच सारकें!

म्हजे एकट्याच कडेन हें घडटा अशें न्हय. सगळ्यांच कडेन, ना म्हळ्यार खुब्ब जाणां कडेन तरी, घडटाच. जाका आपल्याक सुधरूंक जाय ताणें सकयल पळोवंक जायना. आपल्या चुकांचेर लेपट ओडपाक मात दुसऱ्यांचो उपयोग जाता. सुधरुपाक न्हय. खरेलेंच मना पसून सुधारचेलें आसा तर एकच मार्ग : वयर पळोवप... मनशां कडेन नदर दिवप.

अंदूच्या वर्सा "seul le silence est grand, tout les autres faiblesse" हीं उतरां कसाक लावप. एक वर्स तरी पळोवप करून. वायट जालेंच जाल्यार सोडून दिलें मागीर. Go from one experiment into the other!

**आयतार ७.१.१९५१**

सकाळीं फुडें लक्ष्मण पै कडेन वचून आयलों. चित्रां बरीं आशिल्लीं. साधारण चड. डिझायन कशे. दिलरुबो मात छान. जागोय बरो. उजवाड बरो. ईझलचेर लक्ष वतालें. बरेंऽ आसा ईझल...

...तोंडाक कुलूप घालच्या जाग्यार सदळ सोडलें. कांमा बगर भोंवक ना. फाल्यांच्यान प्रकृतीक थंडसाण दिसल्यार मागीर ए.एम्.ची तयारी. नाजाल्यार जशाक तसो बसप. झक मारूं! नापास, नापास! निमाणो, निमाणो! कसलीशी खबर. तिका कितलेंशें म्हत्व!

**बुधवार १०.१.५१**

परिक्षेक शिकपाक आरंभ करूंक ना अजून मेरेन... तशें वाचपाचें काम चलिल्लेंच म्हण. हातान काम झरझरीत जावंक जाय...

परिक्षेंत पेपर बरे वचूं, ना वचूं, गोंयांत वचून येवपच.

**आयतार २१.१.५१**

कितेंच बरयन दिसना. कितेंच करीन दिसना. सगळें सोंपलें शें दिसता...

**आयतार रात**

आज Bombay Art Societyचें प्रदर्शन पळोवन आयलों. ताचे पयलीं हुसेन म्हणटात ताचें प्रदर्शन पळेलें. प्रदर्शनांनी पळोवपा सारक्यो जायत्यो खबरी आसात...

पयर गाडेचें प्रदर्शन पळेलें. गाडे बऱ्या मार्गार आसा. पयलींच्या मानान खूब improvements आसात. He is becoming more Indian...गायतोंड्यांत थोडोसो बदल - Form and colour. पै समजलो ना. पळगांवकार व्हडलोसो ना. बरे आसात हेब्बर, आरा बी कांय जाण.

अशें कितेंय पळेतकच म्हजी काकूळट करची शें म्हाकाच दिसता. नाजाल्यार आनीक कोण करतलो काकूळट? फकत दिप्लॉम घेवन दवरला. कितें परिस्थिती जाता पळे मनशाची! एका वेळार केदयो कल्पना केल्ल्यो... आज फातरार आपटुपी ल्हारां भाशेन थंयचे थंयच कांय न्हय जाल्यो. तरी पणून मनशाचें कितेंच फुकट वचना खंय. आनी हें खरें जाल्यार हांवेंच केलां तें फुकट कित्याक वतलें? फुकट वचचेंच ना.

**शुक्रार २६.१.५१**

रिपब्लीक दिसाचें कितेंच केलेंना. उसरां उठलों मात. काम केलें थोडें. कलर स्लीम बदलपाचो यत्न केलो. थोडोसो साधलोय.

आतां मातशी थंडसाण आयली. Gravitational centre - ताचेरच मार बसता परत परत... प्रत्येक गजाल अनिश्चीत, प्रत्येक गजाल म्हज्या हातांत ना. सगळ्यांतच परावलंबीपण म्हळ्यार कितें? नशीब, काय आपलींच कर्मां?

...कांय मनशांची जिणच अशी. सदांच सोदप, सदांकाळ experiments. आनी हांव तर सदां हें न्हय, तें न्हय करीत बसलां. हें 'हय' अशें ठाम केन्नाय सांगूंक मेळत काय ना तेंच सांगूंक नजऽ.

आतां हांवें विशेश येवजुपाचेंच सोडलें. थोड्यांत संतुश्ट रावपाचो सभाव म्हजो. तोच अभ्यास फुडें चलोवप. आसा तातूंत निभावप. समाधानी रावप.

तशें म्हाका खूब मेळ्ळें. ना कशें? देवान दिलें, देंवचारान व्हेले अशेंच जालें खूबदां. जिणच विचित्र. थोड्याच दिसां भितर हजार भानगडी.

आतां रडपाचें सोडलें. रडप तरी कित्याक? आपले दोश सुधरुपाचो मात मन:पुर्वेक यत्न करीत रावप. प्रयत्न सारके करप.

खुब्ब बरोवंक जाय म्हणटां. कांयच घडून येना. स्वस्थसाण ना. निराश जीव जाता मागीर. बरोवप कितें आनी कसलें?



कविता

## अनवळखी मळब

**- निलबा खांडेकार**

आतां कवीक तयार करचेंच पडटलें
एक अनवळखी मळब
प्रस्थापीत करचोच पडटलो आदीम आदर्श
जाचे पोंदा सैम संस्कृतीचें पुजन जातलें
राना-वनांच्या स्वातंत्र्यांत
दोंगोर-दोंगुल्ल्यांचें अप्रूप घडत रावतलें
उदक आनी पिकां रिगोवपाक
माती फळत रावतली
आनी भुंयेच्या मातृत्वाच्या कुसव्यांतल्यान
एक राजकुमार बुद्‌ध जायसर
स्वतांतलो उजवाड सोदीत रावतलो
शब्दाक अर्थ प्राप्त करीत रावतलो
तेन्ना फुडाराक घेवन विष्णूच्या अवतारांची परंपरा
अशीच चलतली
आनी कवितेचे दोळे उकतेच उरतले
शाश्वतीच्या निमण्या उस्कारा मेरेन

म्हणोन म्हणटां,
कसलीच चिंता नाशिल्ल्या मळबा पोंदा
मनाचीं सगळीं जनेलां उगडून
पळोवं दी कवींक लिकलिकत्या नखेत्रांचो खेळ
काळखाचो मेळ
आनी धांवत वचूं दी कवीक
जिळमिळत्या उजवाडाचे देगे वेल्यान
दुसरे राती खातीर.

काळखांतूच निश्चीत जातात उजवाडाच्यो दिको
ज्यो फळटां फळटां सपनांक जिणेंत देंवयत वयतात
म्हणोनूच ताका आयकूंक येता
चान्नें उदकार पडटना
आनी उदकाचें भांगर जातना
झाडांचे सांवळेंत उदक पसवतना
आनी सुखद अणभवांतल्यान मळब सुट्टना

उदक इश्वर
उदक नश्वर
उदक जीण
उदक सैमरीण
उदक रवी
उदक कवी
उदकूच मनीसपण

खरेंच,
एक कवी एक मनीस आशिल्ल्याचो अर्थ
एक रानूच जावं येता, झाडां नाशिल्लें
ज्या रानांत परिस्थितीची मावली
विचार विणीत रावता
आनी मानशेक लायिल्ल्या जाळा भशेन
शब्द फारवत रावतात तातूंक
आनी सुकर्णी जावन गायत रावतात
कवीच्या मनांत एकांतभर

इतिहासांतल्यान भायर सरून
चलत रावता कवी, थांबऽ नासतना
आनी जेन्ना तो वळून पळयता फाटल्यान
तेन्ना ताका कळिल्लें आसता
शब्दांच्या सामर्थ्यांत विसरायेर गेल्लें
वेळाचें भान...
कवी गायता दोन वळी
न रचिल्ले कवितेच्यो
तेन्ना त्या गितांतले सूर
उनत जावन शिंपडिल्ले आसतात मळबभर.
सुकण्यांच्या तरेकवार पिसांनी
मळब धरून येता दिसांक
आनी एक दृष्टांत सुखावन येता दोळे धांपऽसर
जंय देव कमीच आनी मनशां चड रावतात
त्या अफाट अज्ञात रानाच्या सुखांताचे कुशीत
अवताराची पूर्तता घेवनै
अनवळखीच मरपा खातीर
कवीत जाय आसता एक अनवळखी मळब.



(संपर्क : ९६३७०९२५२४)

# कोंकणी कवितेंतली अस्तुरी

## (वेंचीक कवितांझेल्यां संदर्भांत)

- राजश्री महाबळेश्वर सैल

कविता आसता जिवनाचो पडसाद. जिवन जे तरेचीं वळणां घेता ते तरेन कविता बदलता. बायल हें निसर्गाक पडिल्लें सुंदर सपन. ती जितली हळुवार मायाळ, तितलीच गूढ गुढाळ. तिच्यांतल्या मातृत्वाच्या गुणाक लागून तर ती दिव्यत्वाक पावता. पूण हेच बायलेची समाज पुरुशान केल्ली विटंबणा अजापाचीच.

एके वटेन माता म्हणून तिची पुजा - ती लक्ष्मी, सरस्वती, धर्तरी; तर दुसरे वटेन वेश्या, कलंकिणी, कुलटा म्हणून तिचो केल्लो अपमान. हो एके तरेचो विरोधाभासूच. बालविवाह, सतीप्रथा, केशवपन हें परंपरेचें वजें कितलींशींच वर्सां आनी शेंकडे तिणें माथ्यार व्हांवयलां.

ती असहाय्य, निर्बळ. निर्दयी पुरुशप्रधान परंपरेच्यो भारतीय संस्कृतीमान्य, धर्ममान्य चौकट्यो ती मोडूंक शकना, आनी मागीर उरता तो तिच्या मनांतलो धगधग, कलह. तोंड धांपून हो अन्याय कितलींशींच वर्सां तिणें सोंसला.

कोंकणी कवयित्रींचे कवितेंत कोंकणी बायल आमकां एका वेगळ्याच रुपान मेळटा. एकेक फावट पिडीत आनी संघर्श करपी, पूण चडशे फावटीं तृप्त, समाधानी - घरकार आनी घर हांचे भोंवतणी घुंवपी. तरी आपूण आपले भितर सर्जनाची एक तांक आसपावन घेवन आसां हाची तिका जाणविकाय आसा आनी अभिमानूय.

प्राचीन भारतीय वाङ्मयांत तिच्या सौंदर्याचें आनी गुणांचें चित्रण येता, पूण तेच वांगडा सावित्री, सीता, द्रौपदी, उर्मिला हें ठरावीक सांच्यांतलें चित्रण मेळटा.

स्मृतीकाळ हो मनूचो काळ. स्मृतीकारांनी बायलांचे मनीसपणाचे अधिकारूय काडून घेतले. महाभारतांत तिका 'भस्त्रा', म्हळ्यार चामडेची पिशवी अशें म्हळां (महा. आदि. ७४११०). स्मृतिकाळांत स्वातंत्र्यहीन बायलांचे जिवन जनावरा वरी आसलें. तिका मनीस म्हण माननासतना मालमत्ता म्हण सांबाळटाले. एकाच मनशाची ती मालमत्ता आशिल्ल्यान तिचेर स्वामित्व आयलें. तेच वांगडा पुरुशाच्या मोक्षा आड येवपी, मोह उत्पन्न करपी, संवसाराच्या जंवजाळांत ताका आडकावन दवरपी अशी तिची प्रतिमा निर्माण जाली. पूण मनूच्या विचारांत आमकां एके तरेचो प्रचंड विरोधाभास दिसता. एके वटेन तो बायल दुर्गुणांची खाण म्हणटा; दुसरे वटेन, सगलीं बंदनां आपणायिल्ली बायल पुजनीय, बापाय परस ती हजार पटींनी पुज्य अशेंय म्हणटा.

रामायण महाभारताच्या काळांत बायलेचें जें चित्रण जालां, तें चडशें एकनिश्ट, पातिव्रत्य सांबाळपी, अधर्म करपी पतीचीय सेवा करपी, शंबर पूत दिवपी, वंश वाडोवपी, आदर्श माता अशें दिसता. चुकूनूच ती अन्याया विरुद्ध आवाज उठयतना, पारंपारीक नितीमुल्यां आड वतना दिसता.

अशे, भारतीय परंपरेंतल्या वेद, पुराणां, महाभारत, रामायण, आदी संपदेचे आनी कोंकणी लोकवेदाचे गडगंज फाटभुंयेचेर कोंकणी कवयित्रींचे कवितेंतली बायल उबी आसा.

## कोंकणी लोकवेदांतली बायल

लोकवेद हो खंयचेय भाशेक फुटिल्लो पयलो अस्पश्ट हुंकार आसता. कोंकणी लोकवेदांत कोंकणी बायल आपल्या मनांतल्या खवदळाक खूब समर्थ भाशीक तांकीन वाट दितना दिसता.

न्हीद रे बाळा चाफ्या कळ्या / म्हगेले मांडयेर

न्हीद काडून रडचें सोडून / बस हांडीर

लोककाव्यांत दिसपी हें तिचें आवयचें रूप भोवच ओडलायणें. धुवेचें लग्न जातकच तिका बरें घर-दार मेळचें म्हण व्याकूळ जाल्ली आवयूय लोकवेदांत दिसता.

आयी बाप्पाचे गे पोटी / जल्मली गे पुतळी

धुवे सोड पाणियाच्यो धारो / लेक जाता परघरा.

धालां मांड तर ह्या शेतकामती बायलां खातीर एक कलाउत्सवूच. हांगा ती आपल्या काव्यांतल्यान पुरायेन मेकळी जाता. केन्ना केन्ना आपल्या कर्मभोगाची खबरूय सांगता, तर केन्ना केना आपल्या रूपरंगाचें व्हडपण मिरयतना दिसता. आपल्या काव्यांत ती देव देवतां वांगडा खेळटा, आनी आपल्या सवाशीणपणाचें व्हडपण मिरयता. कांदळां खुंटून भांग नेटीत खोपें भरून कांदळां माळपी ह्या सवाशीणपणाचो तिका भोव अभिमान.

घोव, भरतार, पती हांचे भोंवतणी ही लोकवेदांतली बायल घुंविल्ली दिसता. तिचो घोव तिका पुतळीच्यो माळो हाडटा आनी ती रसमी दोऱ्यांत बांदून गळ्यांत घालता. तिचो घोव राजाक मेळूंक वता आनी राजा ताका आबोल्यांचो तुरो आनी शेलो दितना दिसता.

पुत्रजल्माचो सुवाळो मनयतना बायल कलात्मकतायेची तेंगशी हुपता -

धांव रे तेंडलेच्या बेला / आमच्या बायेगेर बाबू जाला

धांव रे बाबा तेला.

कोंकणी लोककाव्यांत कोंकणी बायलेलें मातृत्व पुरायेन व्यापून उरिल्लें दिसता - "साखरेचो बाये लाडू / दुदांत खिरयला / बाळाक भरयला" अशें म्हण बाळाक खावोवन जेवोवन घटमूट करपी आवय, "तन्न्या केळ्यांची केल्या शाक / बंदू भयणीचें नांव राख" अशें म्हण ती भावाक भयणीची राखण करपाचें बाळकडूय पियतना दिसता.

धालो नाच निव्वळ उमेद घेवपाचे भावनेन बायलो नाचनात, तर तांच्या मनांत आपले इत्सा पुर्ती खातीर देवाक होरावपाची भावना आसता.

घोव बायलेचें मिलन, शुद्ध निर्मळ निरागस मोगूय आमकां बायलेच्या काव्यांत पळोवंक मेळटा -

बरें कदेलार बोसोन / आंतोन बाय केंस गो वळयता

तेंगेलो भरतार येवन / फुलांचो झेलो गो वडयता.

ह्या धालो काव्यांत आपल्या कुळारचें व्हडपण गावप, मामाचें, भावाचें मोठेपण सांगप येता -

भाव, मावळ्या घरचे आठ गुणे

सोळाय गुणे भूंय दवरात

भागरती बाये फुलां माळात.

घोवाल्या व्हडपणाचेर आपलें व्हडपण आसा हाची जाणविकाय आशिल्ली, आयावपण मिरोवपी बायल कोंकणी लोककाव्यांत दिसता. देखी -

१. काळी चोळी मिरयां येदी गांठ

घोवाल्या जिवार हळदी कुकमाचो थाट. २. ओंवळीचें ओंवळ / वतान करपलें / वाऱ्यान झडपलें / पडलें भुंये वरी / हातान काडिलें / माथ्यांत माळिलें / भोगिलें आयावपण

अशें आसलें तरी कोंकणी लोककाव्यांतली बायल बरीच धीट आनी समर्थ आसा. चुकुनूच आपल्या कर्मभोगाची काणी सांगत ती रडत बशिल्ली दिसता. "शीं खाता भोव, चावूल दिना घोव", अशें म्हणपी ही बायल मुखार "भागरती बायेचो भरतार कोपला गे / उश्याची म्हाणाय काडून धोपटा गे" अशें म्हणपाकूय फाटीं सरना हें म्हत्वाचें.

कोंकणी लोकवेदांतलें काव्य हें तत्कालीन स्त्रीजिवना वयलें इतिहासीक भाश्यूच आसा. बायलेच्या मनाचो हो हारसो, कितलीं वर्सां जावन गेलीं तरी आयजूय हें काव्य स्त्रीमना कडेन संवाद करतना दिसता.

## कवयित्रींचे कवितेंतली बायल

आधुनीक काळांतली, संक्रमण अवस्थेंतल्या युगांतली, कोंकणी कवयित्रीचे कवितेंतली बायल आधुनीकता आनी परंपरा हांचो ताळमेळ बसयतना एका वेगळ्याच रुपान उकती जाता.

बदलिल्ली जिवन शैली, आधुनीक नितीमुल्यां आनी पारंपारीक नितीमत्ता, हांच्या कांट्यार वा दोऱ्यार कसरत करपी बायल कोंकणी कवितेंत दिसता.

'थरथर' हे कवितेंत नुतन साखरदांडे लग्ना उपरांत चलयेचें घर सोडून वचपाचो अणभव भोव प्रतिकात्मक आनी कलात्मक रितीन मांडटा -

आतां वेळ आयला / ही वाल हुमटावन / दुसऱ्याच्या दारान / लावपाचो... / दोन हातांची थरथर / मात सासणाचीच उरतली / तिच्या काळजांत.

तर 'सात फेरे' हे कवितेंत ग्वादालूप डायस विश्वासान आपलें - जिवीत - घोवाच्या हातांत दिवपी, आनी उपरांत त्रासांचें जिवीत भोगपी चलयेची व्यथा मांडटा.

ताज्या घरांत पांवल घालें / तें तर नरकूच आसलें

म्हज्या घराची राणी तूं / दासी परसून वागयलें

ग्वादालूपाचे कवितेत उतरांची चमत्कारिता पळोवंक मेळटा, पूण तिच्यो चडश्यो कविता खूब तृप्त, वास्तवा परस वेंतभर वयरूच अश्यो स्वप्नरंजक अशें म्हणले बगर रावं नजऽ. कवितेक विनोदाची सुंदर झालर लावन सोबोवपाचें कसबूय तिका बेस बरें जमलां.

तुज्याच खातीर नट्टां हांव / पळय कसल्यो मोडी

वायट दिसता जेन्ना तूं / काडटा म्हज्यो खोडी

अशे तरेन पारंपारीक संस्कारांक चिवटपणान धरून आशिल्ली, पती म्हळ्यारूच सर्वस्व मानून पुराय जिवन ताचे भोंवतणी उवाळून उडोवपी बायल तिचे कवितेंत परत परत येत रावता.

त्या मानान विजयबाय सरमळकारांचे कवितेंत वाट चुकिल्ली तरी उरिल्ली वाट कर्तुत्वान एकटेपणान चलत रावंकूच जाय असो निर्धार

करपी बायल दिसता.

भुरग्यां खातीर आपलें मन मारून आपल्या कर्तुत्वाक बंधनां घालपी, घराच्या हुमऱ्या भितरूच आपखोशयेन आपल्याक बंदिस्त करून घेवपी बायल आमकां 'वंय' हे रुपा कोंसबे हिचे कवितेंत दिसता. पूण तेच वांगडा, भुरगीं जातकच येवपी बंदिस्तपण पळोवन घरूय नाका, भुरगींय नाकात, आनी संवसारूय नाका अशी तोंकाची भुमिका घेवपी बायल कावळिणीच्या प्रतिकात्मक रुपान रोग हे कवितेंत कोंसबे खूब सुंदर तरेन चित्रायता. तर 'तिनसांज' हे तिचे कवितेंत तरणे धुवेच्या हुस्क्यान, हुबिल्ल्या जिवान वाट पळोवपी आवयची अवस्थकाय ती समर्थपणान मांडटा.

पूण ह्या सगल्यां भितर आपल्या काव्यात्मक गुणांक, गच्च अणभवसमृद्‌धतेक आनी संवेदनशील अभिव्यक्तीक लागून, चड भावपी अशी कवियित्री म्हळ्यार हर्षा शेटये. आपल्या वैयक्तीक अणभवाक एका सार्वभौम पांवड्यार पावोवपाचें कसब, फिशालकाय, सामर्थ्य, हे कवयित्रींत आसा. ती समसामयीक बायलांचे चित्रण करता. तिचे जिणेंतले निरर्थताये कडेन बोट दाखयता. हे कवयित्रीची आत्मअभिव्यक्तीची तांकूय अजापांची. एके तरेन वैश्वीक अश्या दृष्टीकोणांतल्यान ती चिंतन करतना दिसता. ताका लागून तिच्यो कविता सर्वव्यापी जातात. हांव कोण हो प्रस्न तिका पडटा तेन्ना समाजांत सोडाच पूण घरांतूय जंय तिका घरकान्न हें मानाभोवमानाचें पद मेळिल्लें आसता थंयूय ह्या प्रस्नाची जाप तिका शुन्यूच मेळटा -

मागीर हांव येवजितां / म्हज्या घरांत

कितें म्हजो वालोर / आनी जाप / मेळटा शुन्य

*म्हजी माती खंयची* हे कवितेंत ती 'हांव कोण' ह्या मुळाव्या प्रस्नाक हात घालता. स्त्री जिवनाची निरर्थकता; एके कडच्यान दुसरे कडेन हुमटत, हुबत, तुंटत चलिल्ली तिची जीण; हे कवितेंत खरायेन येता. हर्षा शेटयेचे कवितेंत संक्रमण अवस्थेंतल्यान वचपी, पारंपारीक नितीमुल्यां सांबाळीत आधुनीक जायत वचपी, घरदार सांबाळीत आपल्या कर्तुत्वान मळबाक हात लावपाचो हावेस बाळगुपी बायल येता. केन्ना ती बायल-मनशेले मुळावे व्यथेक हात घालता तर केन्ना तिच्यांतलें गच्च भिजरें आवयपणय मनयता. कविता आयच्या काळाची भास उलयता. पुरूशप्रधान समाजवेवस्थे पोंदा चिड्डल्ले समाज-माचयेर संघर्श करीत फुडें वचूंक धडपडपी भारतीय बायलेची व्यथा मांडटा.

ह्याच संदर्भांतल्यान कांय वर्सां फाटीं उजवाडा आयिल्ली सर्गेस्त शांती प्रभू तेंडुलकाराची 'सती' ही कविता म्हाका भोव म्हत्वाची दिसता. आधुनीक जा म्हणून तिका फुडें काडपी समाज, पारंपारीकतायेच्या खुंट्याक बांदून तिचेर कसल्या थरा मेरेन अत्याचार करता हें तिणें भोव प्रभावीपणान आपले कवितेंत मांडलां.

रूपकुंवर म्हजे भयणी / एकविसाव्या शेंकड्यांतय

कुकराच्या शिताकय / साकाचीच वाळणी

आधुनीक जायत वचपी तरी पारंपारीक जोरखंडानी बांदिल्ली बायल, हे कवितेंत उबी जाल्या.

२०१० वर्सा उजवाडा आयिल्लो जयंती नायक हिचो *मीर्गवेणो* हो काव्य संग्रह आपल्या खास वेगळेपणाक लागून म्हत्वाचो थारता. हो काव्य संग्रह म्हणल्यार सृजनाच्या आदिबंधाक एके अश्टतासी अस्तुरेन, तिच्या अस्तित्वाचें वीज केण्ण जोगलावपी आवयक केल्लें नमन. तिची शब्दकळाशीय भोव अप्रुपाची. वेगळोच शब्दसृंगार घेवन तिची कविता येता. मेजक्याच उतरांतल्यो ह्यो काव्यकणयो तिचे आनी तिचे आवय मदल्या शास्वत संबदाची उकतावणी करीत वतात. कोंकणी कवितेंत अशे तरेचो प्रयोग पयले फावट जाता जावये -

घरा फुडल्या दोंगराक / जाला श्रावणभार

तुजेखातीर खुंटिल्ले पत्रेचो / मनांत आजुनय हरवस वास

तिचे कवितेंतली ही मुळावी थळावी आवय उपरांत पूर्ण सर्वव्यापी जाता. तिच्या अस्तित्वाक दिका दिवपी, तिच्यांत स्वाभिमानाची कीट पेटोवपी आवय तिका सोडून वता तेन्ना येवपी एकसुरें एकाकीपण ज़यंतीबाय भोव समर्थ रितीन मांडटा -

१. मनशांच्या म्हासागरांत हांव / मदेकांत उबें
तरी तुजेवीण अशें / एकटें एकसुरें.

२. तुजेकडल्यान शुन्याचें मोल / एक दीस आयकल्लें
म्हणूनच आज हांव / शुन्य भेदूंक पावलें.

हे आपले आवयच्या सर्वय रुपांची, सृजनाच्या आदिबंदाची वाखाणणी तिचें कवीमन भोव तांकीन उकतें करता.

ज्या पंचभूतांत ती विलीन जाल्या त्या मळबांत ते चराचर धर्तरेंत, ती आपले आवयचें अस्तित्व सोदता. तरी कवयित्री ह्या दु:खाच्या वेळारूय मुखार आशिल्ल्या जिवन नांवाच्या महासंग्रामाक भोव समर्थ रितीन प्रसन्नतायेन फुडो करता. ह्या दु:ख वेणांतल्यान तिच्या जिवनाची फांतोड उजवाडटा, तिजी जीण चड भारदस्त पकदस्त जाता. एके तरेचें भरगच्चपण तिका लाबता. ह्या दु:खाच्या आवेगांतल्यान तिची कविता जल्म घेता -

तुज्या यादिंच्या वेणांनी / म्हजो मनकुसवो निन्नळटा मागीर एक फांतोड खिणाक / उतरांर उतरां प्रसवता.

पूर्ण, सुंदर, गर्भखोल उतरांनी ही कवयित्री आपले आवयचें तेजाळ प्रभावी रूप भोव प्रतिकात्मक रितीन मांडटा. रसिकांच्या काळजाचो थाव घेता.

वट्ट पळोवंक गेल्यार कोंकणी कवयित्री आनी तिचे कवितेंतली बायल व्हडलीशी बंडखोर अशी दिसना. तिची भासूय मंद म्होंवाळ. ती आपलें रडणें दुखणें व्हडलीशी सांगतूय बसना. तेच वांगडा आपल्याक समकालीन आशिल्ली बायल ज्या विवंचनांक फुडो करता तांचे विर्शींय समपातळेर येवन विचार चिंतन करतनाय ती आडवादानूच दिसता. चडशी ती स्वअणभवाचेर बरयता. ताका लागून तिच्यो कविता चडश्यो introvest अश्या स्वरुपाच्यो जातात.

**संदर्भ:** मीर्गवणो - जयंती नायक
म्हजी माती खंयची - हर्षा शेटये
मोगऱ्यां आटी - शांती प्रभू तेंडुलकार
जीण जाली कस्तुरी - नूतन साखरदांडे
उमळ - रुपा कोसंबे

संपर्क: ०९९२२२६५२०९

Published & Printed by Dr. J. B. Sardesai, owner of JAAG Monthly, 201 B, Saldel Apts., Rua de Saudades, Pajifond, Margao, Goa, and Printed at Rutu Offset, Volvoi, Ponda -Goa. Editor : Madhavi Sardesai